# अंता अंता शिरिमंता

(नाटक)

राजय पवार




गोवा कोंकणी अकादेमी

अंता अंता शिरिमंता
नाटक

लेखक :
राजय पवार

प्रकाशन क्र. 87



पयली आवृत्ती :
2006

उजवाडावपी :
गोपाळकृष्ण पाडगांवकार
सचिव,
गोवा कोंकणी अकादेमी
243, पाटो कॉलनी,
पणजी, गोंय 403 001

मुखचित्र :
श्रीधर कामत बांबोळकार

अक्षरजुळणी :
ज्योती गांवकार

छापपी :
ब्ल्यू क्यूब प्रिंट अ‍ॅण्ड पॅक प्रा. लि.
दिवचल – गोंय

मोल : रू. 25/-

Anta Anta Shirimanta
Play in Konkani

by
Rajay Pawar

Publication No. 87



First Edition:
2006

Publisher :
Gopalkrishna Padgaonkar
Secretary,
Goa Konkani Akademi
243, Patto Colony,
Panaji, Goa. 403 001

Cover Design:
Shridhar Kamat Bambolkar

Typesetting :
Jyoti Gaonkar

Printer :
Blue Cube Print & Pack Pvt. Ltd.
Bicholim - Goa

**Price : Rs. 25/-**

# अकादेमीचे वतीन...

गोवा कोंकणी अकादेमी, नाटक-तियात्र ह्या प्रकाराक एक साहित्य प्रकार मानता. आयचे घडकेक कोंकणी नाटक - तियात्र हे प्रकार कोंकणी संस्कृतिचीं बळिश्ट आंगां जाल्यांत. कोंकणी समाजाक आपणालें पडबिंब दाखोवपी तें एक प्रभावी माध्यम जालां.

गोवा कोंकणी अकादेमीन 1993 ते 2006 ह्या काळांत गोंयच्या गांवगिऱ्या वाठारांत एकूण चवदा नाट्यमहोत्सव घडोवन हाडले. दर एका महोत्सवांत चार/पांच नाटकांचो आस्पाव आसता. तातूंत एक/दोन तियात्रांय आसतात. गोंयांत गांवांगांवानी कोंकणी नाटकां जावपाक ह्या नाट्यमहोत्सवांच्या वातावरणाचो खूब आदार जाला.

दिसान दीस कोंकणी नाटकांची मागणी वाडत आसा. अकादेमीच्या पणजे कार्यालयांतल्या पुस्तक विक्री विभागांत नाटकांची मागणी मोट्या प्रमाणांत जाता.

कोंकणी नाटकांची ही गरज भागोवपाक अकादेमीन एके खास येवजणेवरवीं एकूण चार नाटकांचीं आनी दोन तियात्रांचीं हातबरपां पुस्तक रूपान उजवाडावपाचें धारायलें. ते खातीर कोंकणी रंगमाचयेवयल्या आयच्या आघाडेच्या अशा चार नाटककारांची आनी दोन तियात्रीस्तांची रंगमाचयेर जैतिवंत जाल्लीं नाटकां / तियात्र वेंचून काडले. ते नाटककार / तियात्रीश्त अशे, आनी तांगेलीं नाटकां / तियात्र अशे -

1. श्री. दत्ताराम कामत बांबोळकार - रंगयात्रीक
2. श्री. प्रकाश र. वजरीकार - घट्टाण... कोणाचें?
3. श्री. भरत नायक - एके रातीन... एके वातीन
4. श्री. राजय पवार - अंता अंता शिरिमंता
5. श्री. तोमाजिन्यू कार्दोज - आमी सगळे एक (तियात्र)
6. श्री. बेन एवांन्जेलिस्तो - देवाक जाय जाल्यार (तियात्र)

आयज हीं सवूय पुस्तकां एका संचान एका बरोबर उजवाडाक येता. कोंकणी रंगमाचयेखातीर अकादेमीची ही एक अप्रूप भेटवण! अकादेमीचे वतीन ही सेवा अशीच चालू उरतली.

**पुंडलीक नायक**
अध्यक्ष

'अंता अंता शिरिमंता' ह्या नाटकाचो पयलो प्रयोग महालक्ष्मी, बांदोडेच्या 'प्रितिसंगम बांदोडा क्लब' हे संस्थेन गोंय कला अकादमीचे 28 वे कोंकणी नाट्य सर्तींत सादर केलो.

## पयल्या प्रयोगांत वांटो घेतिल्ले कलाकार

| | | |
|---|---|---|
| अंता | : | प्रशांत सतरकार |
| शांता | : | मंगला नायक |
| वालपापडी | : | रामदास नागेशकार |
| लला | : | सचिन नायक |
| लिली | : | शुभदा नायक |
| इन्स्पे. | : | सुरेश नायक |
| दिग्दर्शक | : | राजय पवार |
| आवाजा येवजण | : | सत्यम सतरकार |
| उजवाडा येवजण | : | मोहनदास नायक |
| नेपथ्य | : | संदेश कुर्पासकार |
| रंगभुशा | : | कृष्णा नायक |
| वेशभुशा | : | सुरत नायक |

पूर्वप्रसिध्दी : 'जाग' दिवाळी अंक - 2005

# पयलो अंक

## : प्रवेश 1 :

(अंता ह्या एका रिटायर्ड मनशाचें घर. माचयेर दिसता तो हॉल. मुखाल्ल्यान दिसता तें हॉलाचें दार. माचयेचे दावे वटेन दोन दारां. एक किचनाचें आनी दुसरें बॅडरूमाचें. उजवे वटेन एक दार... थंयच्यान भितर वतकीच आनीक दोन कुडी आसात.)

अंता : (भायल्यान खबरां-पत्र घेवन भितर येता.... खूब उमेदींत आसा... गीत गुणगुणत भितर सरता. आपलेच कडेन म्हणटा... ) Yes!... सरप्रायज दिवया!!... शांताऽऽ ए ऽऽ शांता, भायर यो पळोवया. एऽऽ शांता ऽऽ शांता ऽऽ... (शांता भायर येता. तोंडाक खूब पावडर लायला. केंसांक वेगळीं वेगळीं क्लिपां लायल्यांत. सादारण Facial केल्ले भशेन तोंड. शांताच्या नव्या अवताराक पळोवन अंता आबूज जाता.)

अंता : ओ!... सॉरी आं!... हांव म्हजेंच घर समजून भितर सरलों. (वचपाक परतता)

| | | |
|---|---|---|
| शांता | : | आरे! ... भंगवंता.. अंता, हांव शांता... बायल तुजी. |
| अंता | : | म्हजी बायल? .. सख्खी? |
| शांता | : | कितें? |
| अंता | : | सखी! सखी तूं म्हजी. |
| शांता | : | आयज कितें तूं सकाळींच पेटोवन आयलो? |
| अंता | : | ना गो खऱ्यांनीच ना. (म्हऱ्यांत वचून) घे, तोंडाक वास घेवन पळय. |
| शांता | : | (वास घेता) शीऽऽ... आंवंय. |
| अंता | : | कितें जालें? |
| शांता | : | तोंड धुवूं ना? वास येता. |
| अंता | : | तोंड धुवूना हें बरोबर. पूण तूं जाणा न्ही, म्हाका तोंड धुवचे पयलीं पेपर लागता. आतांच न्ही, ल्हानपणांतल्यान्. पयलीं वचून बसपा खातीर लागतालो (संडासाची कुरू करून) आतां बसून वाचपा खातीर. पूण म्हाका एक सांग. हें तुज्या तोंडाक अशें कितें जालें? |
| शांता | : | ताका फेशियल म्हणटात. काल पेपराचेर आयिल्लें आर्टिकल तुवें वाचुंना? भिंडां बियेचो पावडर करून लायल्यार खंय पोले तांबडेगूंज जाता. भिंडां भशेन! |
| अंता | : | ताचे परस अशें कर मुगो, भिंडां सोलांच घश्टीय. जावंनी सामकेंच तांबडें! |
| शांता | : | फकाणां करूं नाका रे. |
| अंता | : | फकाणां न्ही गो बाये. खऱ्यांनीच सांगतां हांव. ते पेपरावेले experiment आमचेर करूं नाका. पयर आनी कितें काय म्हळ्यार बांगड्या दाळ. दुसऱ्या दिसा असो त्रास जालो म्हण सांगू. |

शांता : तातूंत म्हजी कांयच चूक ना आं. ती खंय पेपराची मिश्टेक. दुसऱ्या दिसा पेपरार दिल्लें वाचुंना तुवें? 'कालचे डिर्शीत नदरचुकेन 'बांगडो' हें उतर पडलें. तें तुमी 'सांडगो' अशें वाचचें. 'सांडग्या' दाळ खंय ती.

अंता : (अचकीत याद जावन) हें पळय, दाळी बोवाळांत मेन गजाल तशीच उरली.

शांता : कसली ती?

अंता : आगो फाटल्या वर्सा एके सर्तीची जायरात आयिल्ली. याद जाता तुका? सदांच दुसऱ्यांच्या उपकारा पडपी, शांत सभावाच्या पाशियेस आशिल्ल्या गोयांतल्या कुटुंबाक पांच लाखांचें इनाम – दिल्लीचे कुटूंब कल्याण संस्थेन ही सर्त दवरल्या. हांवेंय बी हे सर्ती खातीर फॉर्म भरून धाडिल्लो. गांवांतल्या, वाड्यावेल्या लोकां कडल्यान चवकशी करून तांणी निमाणे फेरये खातीर तीन कुटुंबां वेंचून काडल्यांत. तातुंतलें एक कुटूंब आमचें, अंता शिरवयकारालें. (मोठ्यान) पांच लाख रूपयांचें इनाम!

शांता : (घुंवळून पडटा) कितें? पांच लाख!

अंता : आगोऽ, आगो, कितें जालें? (वावराड्याक उलो मारता) वालपापडेऽऽ... वालपापडेऽऽ, बेगीन यो रे. ताई घुंवळ येवन पडली. उदक हाड बेगीन. उदक हाड.
(वालपापडी पेल्यांत उदक घेवन येता.)

वालपापडी : कितें जालें? कितें जालें ताईक? (ताईच्या तोंडार उदक मारता) येतली, आतां येतली शुध्दीर. परतून त्रास सुरू जालो दिसता तकलेचो.

अंता : ना रे बाबा. हे खेपेक तकलेच्या दुयेंसाक लागून न्ही.

काळजांत मातशें 'कल्ल' जालें आसतलें.

वालपापडी : कित्याक लागून?

अंता : आरे तूं जाणां न्ही, ती कुटूंब कल्याण मंडळाची सर्त!

वालपापडी : (याद करून) आं. ती, सदांच दुसऱ्याच्या उपकारा पडपी, हिसपा भायर पाशिंयेस आशिल्ल्या कुटुंबाक पांच लाख रूपयांचें इनाम. तें मेळ्ळें तुमकां?

अंता : आरे, आजून मेळुंना. निमाणे फेरये खातीर आमचें कुटूंब सिलेक्ट जालां. ही पळय पेपरार आमच्या फोटवा सकट बातमी आयल्या.

वालपापडी : (बारीकसाणेन फोटो नियाळून) ताई फोटवांत मातशी सुंदर दिसता न्ही! म्हणून बी घुंवळ येवन पडली काय?

अंता : आरे ना रे. हांवें तिका इनामाची रक्कम सांगली. पांच लाख रूपया इतलेंच म्हळां... ही सोमतीच घोऽऽ.

वालपापडी : तुमचें म्हण नाका जाल्लेंच आं. एकदम पांच लाख कित्याक सांगले? अडेज लाख करून दोन फावटी सांगपाचें न्ही? (शांता शुध्दीर येता. तिचो आवाज आयकून) आतां हांव पळय कसो ताईक उठयतां तो. ताईऽऽ तें इनाम मुगो.. अडेज लाख रूपयांचें.

शांता : (उठून बसता) अडेज लाख रूपया!

वालपापडी : हय. आनी आनीक अडेज लाख रूपया!

शांता : (उठून उबी रावता) आनीक अडेज लाख!

वालपापडी : (अंताक सांगता) पळयलें. अशें सांगप आसता, इन्स्टॉलमेन्टान.

अंता : आयकात आं. बातमी वाचून सांगतां. (मनांतल्या मनांत अं.. तं.. आनी कुटूंब कल्याण) हातूंत अंता शिरवयकार

हांची निवड जाल्या. गांवच्या आनी वाड्यावेल्या लोकां कडल्यान गुपीत चवकशी केल्या उपरांत ह्या कुटुंबाची निवड जाल्या. आतां निमाणी सर्त ह्या तीन कुटुंबा भितर जातली. संस्थेचो मनीस केन्नाय, खंयच्याय वेळार, खंयच्याय भेसांत, कितलोय तेंप ह्या कुटुंबानी रावन निमाणो रिपोर्ट धाडटलो. ज्या कुटुंबाक ह्या रिपोर्टाच्या आदाराचेर चडांत चड गूण फावो जातले तांकां हें पांच लाख रूपयांचें इनाम भेटयतले.

वालपापडी : (अजापीत जावन) पांच लाख! भाऊ, कशे मोडटले रे हे पांच लाख ... हांव सांगू तुका. सगळ्यांत पयलीं न्ही ऽ तूं एक टी.व्ही घे. घरांतलीं कामां सोपतकीच म्हाकाय टायमपास आनी तुकाय बी बातम्यो पळोवपाक मेळटल्यो.

अंता : (मातसो गंभीर जावन) आरे बाबा, टी.व्ही. कितलो तेंप पळयतलो? दोळ्यांक नदर आसा तें मेरेनच मरे? जाण्टेपणांत दोळ्यांची नदर गेली म्हणटकच टी.व्ही आसलीय सारकी आनी नासलीय सारकी. पूण बायल... ती मात निमाण्या खिणा मेरेन हात घट धरून रावतली. पावला पावलार सांबाळटली. एक शींक आयल्यार सुद्दां विक्स लावपाक बसतली. असले हे बायलेक म्हजे, हांवें सांबाळपाक नाका?

वालपापडी : (शर्टाच्या एका पोंतान दुकां पुशीत) सॉरी भाऊ, चूक जाली म्हजी. म्हाका टी.व्ही. नाका. ताई जाय. तुमचे शिवाय ह्या वालपापडेक आनीक कोण आसा? (शांता रडटा. तिच्या हाताक घट धरून भितर व्हरता.) यो ताई आमी भितर या. हो भाऊ कुसको... रडयता आमकां.

(दोगांय भितर वतात. इतल्यांत फोनाची बेल वाजता. अंता फोनार उलयता)

अंता : थँक्यू थँक्यू... पळोवया मरे. रिपोर्ट बरो वचपाक जाय न्हो? पूण तांचे मनीस हांगा येवन, रावन, बारीक सारीक गजाली पळोवनच रिपोर्ट धाडटले. दिवया रे... दिवया पार्टी. भिता कित्याक? हय.. हय.. बरें तर.. बरें. (फोन दवरता. उबो रावन मातसो चिंतता. वालपापडेक आपयता.) वालपापडे एऽऽ वालपापडे.. हांगा यो मातसो.

वालपापडी : कितें भाऊ?

अंता : हें पळय लक्ष दिवन आयक. ते संस्थेचे मनीस केन्नाय येतले. कळय नासतना येतले. ते येवन वता म्हणसर तरी मातसो शिस्तीन वाग. तांणी कितेंय म्हणूं, कितेंय करूं, कांयच म्हणप ना. सगळें lightly घेवप. आमकां राग येता काय ना, आमी तापतात काय ना हें पळोवंक ते नाका जाल्ल्यो उचापती करतले. पूण तूं मातसो पाशिंयेसान वाग... ताईकूय सांग तुगेले. बेजारनाका म्हण. (आपलेच कडेन) हें इनाम मेळ्ळें जाल्यार शांतालें ऑपरेशन तरी जावन पडटलें.

वालपापडी : हय भाऊ. हांवेंय बी शांतादुर्गेकडेन मागलां. हें इनाम भाऊकच मेळूं म्हणून. हांगचो रिपोर्ट बरो वचचे खातीर हांव कितलेय त्रास जाल्यार सोंसतलों. भाऊ आनीक एक गजाल सांगूं?

अंता : कितें?

वालपापडी : ताई भितर वचून कितें म्हणटा जाणा? भाऊ सारको मनीस मेळपाक सात जल्मांचें पुण्य जाय.. एका प्यूना कडेन लग्न जाता म्हूण बापायन आपणाक घरांतल्यान धांवडायली.. लग्न जावन भुरग्याक जल्म दिवपाक पावली ना. पूण भाऊन केन्नाच दुशण दिलें ना. भाऊ कडेन पयशे

नात, पूण भांगराचें काळीज आसा... (रडपाक लागता) (अंताच्याय दोळ्यांत दुकां येतात. पूण रडप आडावपाचो यत्न कता.) भाऊ, तुमी रडटात?

अंता : (लिपून दुकां पुसता) ना रे.. दोळ्यांत कुस्कूट पडलें दिसता. तुजी ताई मरे म्हाका सदांच अशी चण्या झाडार चडयता.

वालपापडी : ना भाऊ. खरें तिचें. तुमचे सारको मनीस मेळपाक कठीण. ना जाल्यार, हांव कोण म्हण तुमचो? चार वर्सांचो आसतना आवय बापूय सोडून गेले म्हाका. आनी तुमी त्या येद्‌याश्या वामनाक घरा हाडलो. शाळेंत घालो. शिकयलो, मॅट्रीकेक दोन फावटीं आपटी खाली, मागीर म्हळें, तुमची सेवा करूनच पोट भरप बरें. अन्न, आसरो मेळ्ळो आनी ताचे परस चड म्हळ्यार आवय-बापाय समान तुमचो मोग मेळ्ळो.

अंता : (विशय बदलपाचो यत्न करता) तूं मरे आतां एक काम कर. म्हजी अशी तुस्त गावचे परस म्हजें चरित्रच बरोवन काड आनी नांव दी : 'सुरवाते सावन अंता मेरेन'.

वालपापडी : ताचे परस 'अंताली अंताक्षरी' चड बरें. तुमकांय बी पिक्चराच्या गाण्यांची उमेद न्ही.

अंता : चल आता तेच उमेदीन घर निवळ करपाक लागया. यो हे वटेन. धर हे खुर्चेक.

वालपापडी : (खुर्ची चड जड आसा अशा भावान) आवयस्! जायना भाऊ. You know I am very very delicate. दोतोरान ल्हान आसतनाच सांगिल्लें खंय.

अंता : Handle with care म्हणून. पाठ जालां आमकां तें. चल, उखल सडसडीत.

(ह्या बॅकग्रांवडाचेर ल्हवू ल्हवू काळोख)

## : प्रवेश 2 :

(पांच दिसां उपरांत...)
(शांता हेवटेन तेवटेन पासयो मारून अभ्यास करता)

शांता : (हातांत वही) गोंयांत कितले तालुके आसात? गोंयांत इकरा तालुके आसात... फोंडें म्हालाचें दुसरें नांव कितें? फोंडें म्हालाचें दुसरें नांव... (वही बंद करून) फोंडें म्हालाचें दुसरें नांव इंत्रूज!... (दुबावान) इंत्रूज?.. (वही उक्ती करून) शी...मात्शें चुकलें...अंत्रूज तें!.. इंत्रूज म्हळ्यार दोंगरेवेलो शिगमो. (मदींच दारा कडेन वचून भायर पळयता.) शीऽऽ केन्ना येवपाचे काय हे? पांच दीस जाले, आमी वाट पळयतात. अक्कल नाशिल्ले. येतात जाल्यार टायमार येवपा जाय. (आपूण तापलां हें लक्षांत येतकीच पोले फोडून घेता.) चूक जाली, चूक जाली. पाशिंयेस, पाशिंयेस.. रागाक कंट्रोल कर. शांता, रागाक कंट्रोल कर. थंड... थंड थंडसाणेन घे. (परतून भायर पळोवन, थंडसाणेन) केन्ना येतले काय हे, पांच दीस जाले, आमी वाट पळयतात. आयज येनात जाल्यार फाल्यां वाट पळयतलीं.. फाल्यां येनात जाल्यार परां .. परां येनात जाल्यार अवेरां. . तातूंत कितें? आमकां बाबा राग बीग

कांय येना. (परतून वहींत पळोवन पाठ करता..) गोंयचो एज्युकेशन मिनिस्टर..

अंता : आगो, हें कितें ... तूं कितें आतां आय.ए.एस. एँजामिक बसपाचें आसा? दवर ती वही. आगो ते जनरल नॉलेज पळोवंचे नात. आमचें वागप, आमचें पाशिंयेस पळयतले. आनी तूं परतून परतून दारांत कित्याक वता? पांच दीस जाले आमी वालपापडेक बसयला न्ही आकाड्यार? कोणूय येनाफुडें तो पिट्ट करून येतलो. उडी मारून.

(इतल्यान फुडल्या दारान वालपापडी भितर सरता.)

वालपापडी : भाऊ...भाऊ.. एक एँबासिडर भितर सरल्या. रस्त्याचे कुशीक पार्क करून ड्रायव्हर देंवतालो मात... हांव चुम्म करून उडी मारून झुम्म करून भितर.

अंता : चला चला.. कितेंय गाणें बिणें म्हणा... भितर सरनाफुडें तांका आमचें कुटूब सुखी कुटूब कशें दिसपाक जाय. (अशें म्हणत दारा कडेन वचून पळयता) आनी जाणा (तिडकीन) ह्या वालपापडेची कानसुलां फोडपा जाय. आरे, त्या ड्रायव्हरान मुतपा खातीर एँबासिडर थाबयल्ली. म्हाका पळयनाफुडें तो सडसडीत गाडयेंत बसलो आनी धांव... धांव..

वालपापडी : हें आवडले आं म्हाका तुमगेलें.

अंता : कितें तें?

वालपापडी : गाडयेंत बसून... धांवपाचें

अंता : (तापून) फकाणां करना हांव.

वालपापडी : पूण... भाऊ तुवेंच सांगिल्लें तापप ना.. फकाणांनी व्हरप.

अंता : ओह.. सॉरी सॉरी (भायर पळोवन) आनी हांगा यो रे

माकडा.

शांता : तापलो.. तापलो .. पाशिंयेंस.. पाशिंयेस.

अंता : (थंडसाणेन) हांगा यो वालपापडे... (तो म्हऱ्यांत येता) त्यो तुज्यो पट्ट्यांच्यो पिजामी फुडल्यान आकाड्यार घालनाका म्हण कितले फावटी सांगलें. चल त्यो व्हरून फाटल्यान घाल.

वालपापडी : (अंताच्या कानांत उलयता)

अंता : हय.. त्योवूय फाटल्यानच घालपाच्यो.
(वालपापडी भायर वता.)

शांता : हें पळय, हांव सांगतां तें आयक. ते हांगा येतकीच तूं मदींच वचून कुट्ट करून बी येयशी.

अंता : म्हाका सांग, हांव पिलों जाल्यार कळटा तरी? बडबडटां तरी? कांयच ना. म्हागेलें मारप कितलें? इतलेंच. गुड्डीभर.

शांता : आसूं. पूण तोंडाक वास आयल्यार वोगीच मार्क उणे जायत.

वालपापडी : (भितल्ल्या दारान येता) घातल्यो व्हरून फाटल्यान. भाऊ सकाळच्यान घरार कावळो रडटा. म्हाका दिसता ते आयजूच येतले.

अंता : तुमकां येवकार बी कसो दिवप तें शिकयलां. याद आसा मरे? चलात ते येता म्हणसर प्रॅक्टीस तरी करया.
(उबे रावपाची ऑर्डर थरयतात)

शांता : वेलकम.

वालपापडी : सुस्वागतम.

अंता : ह्या अंता शिरवयकाराचे पर्णकुटयेंत तुमकां येवकार.

तिगूय : नमस्कार.

अंता : आतां परतून एकदां घेवया.

शांता : वेलकम.

वालपापडी : सुस्वागतम.

अंता : ह्या (इतल्यांत लला आनी लिली येतात) अंता शिरवयकाराचे पर्णकुटयेंत तुमकां येवकार.

तिगूय : नमस्कार - नमस्कार - नमस्कार.

लला : चला. पयलीं आमी वळख करून घेवया. हांव लला.

लिली : आनी हांव लिली.

अंता : लला, लिली??? आनी लुलू?

लाल : हें... हें तशें न्ही. हांव लला. म्हळ्यार लक्ष्मण लागमारे.

अंता : लागमारे? हांवें फकत वागमारे आयकल्लें.

लला : आमगेलेच दायजी ते. ते वाग मारताले. आमी लाग मारतात.

लिली : म्हजें मात नांवूच लिली. तुमची ती येवकाराची स्टायल आवडली म्हाका. नमस्कार, नमस्कार, नमस्कार.

वालपापडी : परतून करूं?

लला : (लिली कडेन पळोवन) हरकत ना.
(तोच प्रसंग परतून करतात.)

लला : Interesting एकाच तालार एकाच सुरार.

वालपापडी : प्रॅक्टीस केल्या आमी तितली.

लला : प्रॅक्टीस! म्हळ्यार?

अंता : म्हळ्यार प्रॅक्ट्रीस जाल्या आमकां तितली. . कोण कोण येत रावतात न्ही? म्हणून म्हणून प्रॅक्टीस जाली.

लला : तुमची वळख करून दियात न्ही.

अंता : हांव अंता शिरवयकार. बँकेंत प्यून आशिल्लों. आतां रिटायर्ड.

लला : हांव जाणां.

अंता : कशें कळ्ळें?

लला : तुमी धाडिल्ल्या फॉर्माचेर बरयलां तशें.

शांता : हांव म्हजें नांव उखाण्यान घेतां आं.
''मेड इन चायना.. खंयचे कडेन कांय ना.
इंडियन अंताक मात... शांता बगर जायना.''

लला : गूड गूड... पयलींच्यो बायलो फकत घोवाचेंच नांव उखाण्यान घेताल्यो. आतांच्यो बायलो आपलेंय नांव उखाण्यान घेतात... आवडली म्हाका.

अंता : कोण?

लला : तुमचे बायलेची स्टायल आवडली म्हाका नांव घेवपाची.

लिली : आनी हो कोण?

अंता : ही वालपापडी.

लला : ही?... ही काय हो?

अंता : ही.. म्हळ्यार .. इंग्लीशींतलें ही...(He) ही इज वालपापडी.

लिली : वालपापडी? ... सो स्लीम.

अंता : ताचें खरें नांव वामन. वामन लक्ष्मण कापडी. वा. ल. कापडी. पूण आमी ताका मोगान वालपापडीच म्हणटात.

लला : I am impressed. खरेंच तुमचो येवकार, तुमचें वागप, तुमची बायल पळोवन हांव Impress जालां.

शांता : म्हळ्यार! प्रायज आमकांच मेळटलें तर.

लला : नो नो तशें एकदम कशें कळटलें? आतां तर निकतीच सुरवात जाल्या. मुखार खूब कितें तपासपाचें आसा. आनी म्हत्वाचें म्हळ्यार तुमचें पाशिंयेस तपासपाचें आसा.

अंता : तुमी जायतें तपासात.. जाय तितलें तपासात.. जाय तशें

तपासात.

ल्ला : तशी आमकांय ताकतीक ना. तपासया सुशेगाद.

अंता : तुमी फ्रॅश बी जायात... वालपापडे, तांकां तांच्यो कुडी दाखय.. (ललाक सांगता) बॅगी दी वालपापडे कडेन.

वालपापडी : इतली जड बॅग? You know I am very very delicate. दोतोरान ल्हान आसतनाच सांगिल्लें खंय.. Handle with care म्हणून.

अंता : बरोबर बरोबर.. Handle wih care ! हें सुटकेसीचें handle धर आनी with care ती भितर व्हरून दवर.

(वालपापडेच्या हातांत सुटकेस दिता.. वालपापडी, लिली, ल्ला भितर वतात)

(शांताक) हांगा यो आयक. आयज जेवण मातशें बरेंऽऽ जावनी. पांच लाखांचो प्रस्न!

शांता : तूं कांयच भियेनाका. आयज म्हज्यो डिशी खावनूच पळय. बोटां चोखीत रावतले सगळे जाण. कुयण्यांतलें ताल्ल्यांचें सुकें, उड्डमेथी, तणार भाजिल्लो बांगडो, सुंगडाचें हुमण.

अंता : पुरो पुरो पुरो तोणाक रूच सुटली. हांव आतांच वतां तिठ्यार आनी ताल्लुकां, बांगडे, आनी सुंगटां घेवन येतां. खर्च जाल्यार जावनी. पांच लाखांचो प्रस्न आसा.

शांता : आनी एक लक्षांत दवरात, तीं हांगा आसा म्हणसर मातशें पाशिंयेस काडात.. तांणी कितेंय सांगल्यार ना म्हणूं नाकात. राग आयलोच जाल्यार मनांतल्या मनांत एक ते पांच आंकडे म्हणात.

अंता : एक लाख, दोन लाख, तीन लाख, चार लाख, पांच लाख. (वचपाक वता..) बरें तर येतां हांव नुस्तें घेवन. तूं

लाग जेवणाचे तयारेक. (वतां वतांच) आनी हें पळय, त्यो पेपरावेल्यो डिशी मात करूं नाका. म्हाका पचता म्हण तांकां पचचें ना.

शांता : (आपलेच कडेन) कितलो उमेदीन आसा आयज म्हजो अंता... म्हज्या ऑपरेशनाक पयशे एकठांय करून दवरपा खातीर नुस्त्याची ओड आसूनय, करबटाचो अर्दोच वांटो घेवन येतालो. विचारल्यार म्हणटालो, ''दर्यांतलें नुस्तें खंय पळून वता देव जाणा. बाजारांत फकत करबटूच..'' तोच अंता आयज उमेदीन नुस्तें हाडूंक गेला. देवा मंगेशा, आमचे विशीं बरो रिपोर्ट बरोवपाची हांकां बुद्द दी. पांच लाखांचें इनाम आमकांच मेळुंदी. म्हज्या दुयेंसा खातीर न्हय, म्हज्या ऑपरेशना उपरांतचो - सुखी, आनंदी अंता म्हाका पळोवंक जाय म्हणून.

(ल्हवू ल्हवू काळोख जाता)

## : प्रवेश 3 :

(उजवाड)

(जेवन जातकीच हात पुशीत लला, वालपापडी, अंता येतात.)

लला : वा ऽऽ आयुश्यांत पयले फावट असलें रूचीक जेवण

जेवलों.

अंता : हांवूय बी.

लला : म्हळ्यार? हरशीं ही अशें जेवण रांदिना?

अंता : हांवूय बी सदांच असलें जेवण जेवतां. अशें म्हणटालों हांव.

लला : म्हाका समजलें ना, तूं कितें म्हणटा तें.

वालपापडी : (विशय बदलपा खातीर खांवच्या पानाचो विडो दिता) एका संतान म्हणून दवरलां – समजलें नाही तर सोडून द्यावें खावचें पान चाबडावे... (पान दिता) घे.

लला : थँक्यू. (पान खाता) (एक पान अंताकय दिता.)

वालपापडी : (दुबावाच्या सुरान) सुपारी घेता?

लला : (आबूज जावन उठ्ठा) सुपारी? तुका कोणें सांगलें हांव सुपारी घेतां म्हण? (बोल्सांतल्या पिस्तोलाक हात घालता.)

अंता : (सारून व्हरता.) सांगपाक कित्याक जाय? थोड्यांक आवडटा सुपारी पाना बरोबर. थोड्यांक आवडना.

लला : (हांसता) ओ ओ.. ही सुपारी म्हणटा तूं?

वालपापडी : तूं खंयची सुपारी समजलो तर?

लला : हांव ती आंवाळ्याची सुपारी समजलों.

अंता : (कितें तरी उलयता. पूण पानाच्या रोसाक लागून उतरां स्पश्ट कळनात)

लाल : अशें! म्हाका खबर नाशिल्लें.

अंता : (परतून तसोच उलयता..)

लला : आरेऽऽ तिच्या... मागीर कितें जालें?

अंता : (परतून तसोच उलयता...)

लला : च्या मारी टोपी.. कांयच समजलें ना म्हाका तुगेलें.

(वालपापडे कडलें थुकपाचें आयदन घेवन अंता पीक उडयता.)

अंता : हांव म्हणटालों, हांव पान पयलेच फावटी खातां.

लला : तूं सामकोच शिवराक दिसता?

अंता : च्यॅऽऽ चॅऽऽ उलट नुस्त्या शिवाय जायना म्हाका.

लला : तसो शिवराक म्हणना हांव. असो (पिवपाची कुरू) शिवराक म्हणटालों हांव.

अंता : म्हळ्यार? अशें आसल्यार मार्क कॅन्सल जातले?

लला : शे.. शे.. उलट शिवराक आसल्यार मार्क कमी.

वालपापडी : आनी टँकर आसल्यार मार्क भयंकर?

लला : हय तर.

वालपापडी : तशें जाल्यार भाऊ, 'वन डे' खेळून उपेग ना. टॅस्ट मॅच खेळची पडटली.

अंता : (ललाक) म्हज्यो चडांत चड दोन गुड्ड्यो.

लला : म्हाका एक पेग पावना.

अंता : तशें जाल्यार तुमचें आडनांव 'पेगमारे' आसपाचें.

लला : गूड ज्योक (हांसता)

अंता : ज्योकाक बी मार्क आसतात हे सर्तींत?

लला : ना. ज्योकाक मार्क नासतात. पूण आयिल्ल्या सोयऱ्याचें मनोरंजन करपा खातीर तुमी कसलेय खेळ बी खेळटात जाल्यार मार्क मेळटात.

वालपापडी : तशें जाल्यार भाऊक गड्डो!

लला : कित्याक?

वालपापडी : भाऊक गड्ड्यांचो खेळ सोडून आनीक कसलोच खेळ कळना.

लला : इस्पिकांनी.. मेंडी कोट.. रमी?

अंता : ना.. ना. तसलें कांयच कळना म्हाका.

लला : बरें. दुसरो कसलोय खेळ?

वालपापडी : भाऊक एक खेळ बरो कळटा. भाऊक पिक्चराच्या गाण्यांची खूब आवड. ताका अंताक्षरी बरी जमता.

लला : तशें जाल्यार खूब बरें जालें. म्हाकाय अंताक्षरी खेळपाक आवडटा. आनी तुका मार्क चड जाय जाल्यार तुवें अंताक्षरी खेळपाक हरकत ना.

अंता : (हांसता)

लला : कितें जालें?

अंता : (हांसतच) अंताल्या घरांत अंताक्षरी.

वालपापडी : आनी अंताक्षरे बरोबर डान्स.

शांता : (शांता आनी लिली येतात) डान्स! कसलो डान्स?

अंता : आतां आमी अंताक्षरी डान्स खेळप. याद धर. मार्क आसात ह्या खेळाक.

लला : हांव अंपायर... तुमी दोगांय (अंता, शांता) एके सायडीन.

वालपापडी : आनी आमी दोगांय (लिली, वालपापडी) एके सायडीन.

लला : (वालपापडीक पळोवन) नांव वालपापडी पूण उसळटा बरो! चलात तर, करा सुरवात. (सगळीं मेळून अंताक्षरी गायतात...डान्स करतात.. माचयेर ल्हवू ल्हवू काळोख.)

## : प्रवेश 4 :

(वालपापडी आनी लिलीचो प्रसंग)

वालपापडी : (लिलीचो हात हातांत) आल विलू लिली.. हँ... आव लूलू... आय लव यू, लिली.

लिली : आय लव यू टू, व्ही.पी.

वालपापडी : व्ही. पी.?

लिली : वाल पापडी. व्ही. पी. मोगा. तूं म्हाका केन्नाच सोडचो ना मरे?

वालपापडी : केन्नाच ना. जीव गेलो तरी, म्हजो जीव तुजेरच आसतलो.

लिली : खरेंच! वालपापडे, आय लव यू. (हात हातांत धरून)

वालपापडी : (हात दुखलो म्हणून) ल्हवू ल्हवू.. हात दुखलो. यु नो, आय एम व्हेरी व्हेरी delicate डॉक्टरान ल्हान आसतनाच सांगिल्लें म्हाका Handle with care म्हणून.

लिली : फकाणां नाका रे वाली.

वालपापडी : वाली?

लिली : सगळे तुका वालपापडी म्हणटात. पूण हांव तुका मोगान वाली म्हणटलें. तूं वाली आनी हांव लिली.

वालपापडी : आनी आमचीं भुरगीं जातलीं तीं 'कुकुलीं' आनी 'छकुली' लिली, हांवें एक कविता केल्या.. वाचून दाखयतां.

लिली म्हज्या लिली
देवान तुका दिली
गुलाबाची लाली
तुका पळोवन काळजा म्हज्या
कितली उमेद जाली!

कशी लागली कविता?

लिली : सूऽऽन्दर. आनी कविते परस तूं चड सूऽऽन्दर. खरेंच! वालपापडी, तुका पळयत सावन म्हजी जिणूच बदलून गेल्या. ह्या लला वांगडा रावन म्हज्यो भावनाच करपून गेल्ल्यो. पूण आतां ह्या मेल्ल्या भावनांक परतून कोमरी फुटल्या. तुवें म्हजे जिणेक एक उमेद दाखयल्या. आतां आमी बेगीन लग्न जावंया. आनी पयस खंय तरी वचून सुखान रावया.

वालपापडी : हांव तुका सुखी दवरचे खातीर कितेंय करतलों. दीसभर वावर करतलों... घश्टे काडटलों.

लिली : आनी सांजचो पुरो जावन घरा येतलो... न्हिदच्या वेळार हांव तुजे पांय चेपतलें.. तुजे वेल्यान लोरी व्हरतले.. च्.. च्. तुजे खातीर लोरी म्हणटलें.

वालपापडी : मागीर हांव कान बंद करून न्हिदतलों.

लिली : लिंबोणीच्या झाडामागे चंद्र झोपला ग बाई.
आज वाल पापडेला झोप का ग येत नाही.
अं..अं.. अंऽऽ अं... अं... ऽऽ अं.. :.
(आपलेच कडेन)
खरेंच! ही बावन गेल्ली लिली आतां परतून फुल्ल्या. वालपापडेक पळोवन जगपाची नवी उमेद आयल्या. आतां

फाटीं सरप ना. ही नवी जीण कशीच सोडप ना. खूप त्रास सोंसले ह्या लला कडल्यान.. (भितल्ले वटेन पळोवन) कोण? कोण थंय? लला... लला... पांयां पडटां... म्हाका मारनाका... लला (किळांच मारता)

(काळोख. उजवाड)

(वालपापडी न्हिदला. न्हिदेंत बडबडटा. आवाज आयकून अंता येता.)

वालपापडी : सोड.. सोड पयलीं ताका. लला ... लला.. सोड पयलीं लिलीक.

अंता : (उठयता) आरे ऽऽ एऽऽ लला, लिली, लुलू कितें चल्लां?

वालपापडी : लेलो.. लेलो.. सपनेलो. सपनेलों हांव.

अंता : आरे, सकाळ जाली तरी कसलीं सपनां पळयता? चल भितर .. सान्न मारून काड.

(वालपापडी सडसडीत उठटा. पांगरूण घेवन भितर वता. सोफार तकले मुळा धरिल्लें उशें अंता सारकें करून दवरपाक वता. ताचे पोंदा आशिल्ली चीट पळयता)

अंता : आं! हें आनी कितें? पत्र..ओऽऽ! प्रेमपत्र.. वालपापडेलें पत्र.. मोगाळ लिलीक.. तुका पळयत सावन म्हाका रातची न्हीद लागना. कामांत लक्ष लागना. वचत थंय तुजोच भास जाता. काल फाटले कवाथे शिंपतना तुजोच भास जावन एका माडाक वेंग मारली. वेलो बोणो तकलेर पडटकीच शुध्दीर आयलों... लिली..I Love You,आय ... वाँट टू मेक संवसार विथ यू... जावं शाळेंत वचून थोडो तरी फायदो जालो हाका. आय टच युवर बॅक. यू ऑल्सो टच माय बॅक. आरे! अशें कशें. आय टच् युवर

बॅक.. म्हळ्यार... म्हळ्यार आं! हांव तुजे फाटल्यान लागलां. तूंय म्हजे फाटल्यान लाग. वोगीच आपटली खाली ना मॅट्रीकेक. आय डाय ऑन यू. यू ऑल्सो डाय ऑन मी. तुम मेरी जान हो.. दिलबर हो.. बहारों का चमन हो.. सपनों की रानी हो. तूच माझी मैना. सगळीकडेन बोंबाबोंब. तुझ्यावाचून करमेना.. आर्र! तूं! कोंकणी.. इंग्लीश, हिंदी, मराठी, म्हळ्यार हें राष्ट्रीय प्रेमपत्र तर National Love Letter. मुखार कितें बरयलां? हांव दर फावटीं तुका लिपून लिपून पळयतां. (इतल्यांत वालपापडी येता, लिपून लिपून अंताक पळयता... ल्हवू ल्हवू म्हऱ्यांत येता आनी पत्र घेवन धांवता.) तुजें काळीज सांबाळून दवर.. हांव ल्हवू ल्हवू ल्हवू पावलां घालीत येतलों आनी काळीज घेवन पळून वतलों. (हातांतलें पत्र सोदता..) आरे! पत्र खंय? आं! वालपापडेन हात मारलो तर.. (येवजून ) पूण, हांचें ज़मोवन दिलें जाल्यार म्हाकाच फायदो जातलो. लिलीक सांगून रिपोर्ट अदीक बरो करूं येता. Yes! (भितल्ले वटेन पळोवन) वालपापडे हांगा यो. (वालपापडी येता)

वालपापडी : कितें भाऊ? (हातांतलें पत्र घडी करून बोल्सांत घालता)

अंता : सांबाळून दवर आं.

वालपापडी : आं भाऊ.

अंता : आनी अक्षर कसलें काडलां रे? वाचपाक कळटलें मरे तें लिलीक?

वालपापडी : हांवूच वाचून दाखयतलों. (जाग्यार येवन) आं! ओ.. सॉरी भाऊ.. प्लीज माफ कर म्हाका. परत केन्नाच करचों ना अशें.

अंता : (समजायता) आरे पिशा, मोग करता आनी चुकय मागता? आनी मोग करपाचो अधिकार कितें आमकांच आसा? तुका ना?

वालपापडी : आसा.

अंता : कितें?

वालपापडी : अधिकार.

अंता : तशें जाल्यार म्हण तर... मोग करणे हा माझा जन्मसिध्द हक्क आहे.

वालपापडी : आणि तो मी मिळवणारच. पूण कसो? म्हाका भंय दिसता.

अंता : भाऊ आसतना भिवपाची गरज ना. इतलो तेंप तुजो हांवें विचारच केलो ना. तुकाय काळीज आसा, तुजोय संवसार आसा हे गजाली कडेन केन्नाच लक्ष दिलें ना. पूण आयज तुका हांव उतर दितां.. वचन दितां.. शब्द दितां.

वालपापडी : आनी लिंग?

अंता : कसलें ? कोणालें?

वालपापडी : तशें न्ही उतर जालें, वचन जालें, शब्द जालें. उल्लें - लिंग आनी क्रियापद.

अंता : बरोबर तुजें. लिंग आनी क्रियापद म्हत्वाचें. तुजें लिंग खंयचें?

वालपापडी : म्हळ्यार?

अंता : पुल्लींग, स्त्रीलिंग काय नपुसलींग?

वालपापडी : कितें भाऊ? हांव दादलो म्हणटकीच पुल्लींग.

अंता : तशें जाल्यार बायलां भशेन लजता कित्याक? दाखय तुजो पुरूशार्थ. आनी सांगून उडय सगळें धिटायेन.

वालपापडी : पूण..

अंता : आतां पूण बीण कांयच ना. आर्दी लगीन वालपापडेचें. लला भायर सरला. लिली एकटेंच आसा. चल आपय लिलीक. दी चीट आनी सांगून उडय सगळें.

वालपापडी : ओ के भाऊ.. जय हनुमान.

अंता : आरेऽऽ एऽऽ.. हांगा यो. (येता) हनुमान? हनुमानाचो आनी मोगाचो कितें संबंद? तो ब्रह्मचारी. तूं अविचारी. पापया सारको विचार करून उलय.

वालपापडी : ओके! जय हनु.. (चूक लक्षात येता) जय हनिमून! (बावगून अंताकडेन पळयता)

अंता : उपकारता. चल मुखार.

वालपापडी : (भिवून फाटल्यान येता) पूण फार पेटलोना जाल्यार?

अंता : आरे बाबा... आतां आर ना पार, लागलो जाल्यार फार ना जाल्यार ठार. (कुशीक वचून रावता.)

वालपापडी : (आपयता) शूक.. शूक.. शूक... (कोगळा भशेन शिळोणी घालता)

अंता : (कोंब्या भशेन साद घालता) कोंकोंऽऽ कोंक! (वालपापडी अंता वटेन पळयता.) आरे ऽऽ हें कितें प्राणिसंग्रहालय? शूक शूक करता. (शिळोणी घालता.. सारको आपय मरे , नांव घेवन.

वालपापडी : (मोठ्यान उलो मारता) लिलीऽऽ भायर सर पयलीं.

अंता : आरे बाबा, तूं कितें रिणकाऱ्याक आपयता? सारको आपय मरे मोगान.

वालपापडी : लिलीऽऽ लिलू लिलूऽऽ.. इलू इलूऽऽ
(इतल्यान लिली भायर येता. वालपापडेचो हात लिलीच्या हातांत... आनी बॅकग्रांवडाक 'जिसे ढुंढता हूँ मै हर घडी..

वो लडकी है कहाँ' हें गीत)

(ल्हवू आवाजांत गीत वाजता. वालपापडी आनी लिली एकामेकांकडेन उलयतात. तें ताचो हात हातांत घेवन उलयता. संवाद आयकूंक येनात.. उलोवप चालूच आसता...)

अंता : आरे देवा! वालपापडेची शेंपडी वांकडी ती वांकडी. हाका उलोवंक सांगलें मोगाचें. हो उलयता रोगाचें.

(म्यूजीक बंद. तांचे संवाद आयकूंक येतात.)

वालपापडी : हय.. आनी जायत्यो क्रिमी लावन पळयल्यो. पूण दाग कशेच वचनात. निमाणें दोतोरच म्हणपाक लागलो, थोड्यांक अशीं काळशीं शिबां पडटात म्हूण.

लिली : म्हजे एके इश्टिणीकय अशीच ऍलर्जी जाताली. ताच्या हाताक मदीं मदीं खाज पडटाली. निमाणें ताका सांगलें सोलां झरय म्हूण.

वालपापडी : कोणें? दोतोरान?

लिली : ना. हांवेंच सांगलें. आळवाचे भाजयेन खाज पडपाक जायना म्हण सोलां घालतात न्ही? त्याच आदारान सांगलें हांवें.. आनी कितें सांगू? सोलां झरयनाफुडें खाज पडपाची बंद.

अंता : खाज पडटा एके कडेक आनी खरपिता भलतेच कडेन.

वालपापडी : खरें म्हळ्यार म्हाका दुसरेच कडेन खाजोवपाचें आसलें. म्हळ्यार दुसरेंच कितें उलोवपाचें आसलें.

लिली : कितें तें? उलय मरे.

वालपापडी : म्हळ्यार.. तें.. हांव.. तुजे.. म्हळ्यार.. तूं.. म्हाका.. म्हजो मो.. मो.. मोग..

लिली : कितें?

वालपापडी : म..म... मोग.. मुगाचे भाजयेक सोलां घालतात तुमी?

अंता : आरे बाबा.. अब प्यार की बातें करो.. (भितर वता)

लिली : कोण उलयलो? कोणाचो आवाज?

वालपापडी : ती.. ती.. आकाशवाणी.

लिली : आकाशवाणी?

वालपापडी : हय.. शेजाऱ्यांगेर रेडिओ लायला.. ये आकाशवाणी का पंचरंगी कार्यक्रम .. 'प्यार की बाते'. बरो आसता प्रोग्राम. तातूंत न्ही मोग करतात ते मनीस आपल्यो चिटी रेडिओचेर धाडटात. म्हळ्यार.. आतां हांव तुजेर मोग करता.

लिली : कितें?

वालपापडी : म्हळ्यार, हांव तुजेर मोग करता अशें समज. जाल्यार मागीर हांवें कितें करप? तुका जें पत्र बरयलां (बोल्सांतल्यान पत्र काडटा) तें थंय रेडिओचेर धाडप.. आनी तांच्यांनी तें वाचप आनी तुवें आयकप.. (पत्र उगडून वाचूंक लागता) ये प्रेमपत्र आया है गोवा से.. भेजनेवाले है वालपापडी.. वो लिखते है, 'मोगाळ लिलीक, तूं म्हज्या काळजाची धडकन.. तूं म्हजी सातां जल्माची राणी, तूं परी, तूं बरी, तूंच खरी. देवान तुका म्हजेच खातीर निर्मिलां. तूं शिल्पा, तूं माधुरी, तूं उर्मिला. खरेंच लिली, I Love You हांव तुजे बगर जगूंक शकना.

लिली : हांवूंय बी. तुका पळयत सावन म्हज्याय काळजांत मोगाचें तुफान उठलां. आतां तूंच म्हजें घरदार... तूंच म्हजो राखणदार.. तुवेंच म्हज्या काळजांत मोगाची आंकरी किल्लयल्या. म्हाका सोडचो ना मरे, वाली?

वालपापडी : ना गो लिली. लिलूऽऽ आय लव यू.. इलू इलू!

लिली : हांवूंय बी इलू इलू (लजता).

वालपापडी : लिली, आयज हांव खूब खूश... अशें दिसता –हिंदी सिनेमांतल्या हिरो भशेन मोठ्यान आड्डून म्हणचें, आय लव यू लिली.

अंता : (भितल्ल्यान) आनी आनी रावनाका, म्हणून सोड.

लिली : कोण उलयलो?

वालपापडी : आकाशवाणी.. आय लव यू, लिली.. लिली.. लिली.. लिली.. (आवाज घुमिल्ले भशेन म्हणटा) पळयलें ... आवाज घुमलो. चल, अब तुम भी बोलो.

लिली : आय लव यू वाली.. वालीऽऽ वालीऽऽ वालीऽऽ
(दोगांयय एकामेकांकडेन पळयतात. भितल्ल्यान जिसे ढुँढता हूँ मै हर गली.. हें गीत वाजता.)

– काळोख–

## : प्रवेश 5 :

(उजवाड)
(हॉलांत अंता आनी लला सोरो पिवपाक बसल्यात. तांच्यो गजाली चालू आसात.)

लला : पूण हें पळय अंता..

अंता : अंता.. अंता.. भाजी शिनता.. तें अंतालें म्हाका सांगनाका.

(याद करून) हांव कितें सांगतालों तुका?

लला : राव आं! याद करून सांगतां.

अंता : शांता... बरोबर! तर ह्या शांताल्या मेंदवांत, म्हळ्यार म्हजे बायलेच्या आं... एक ट्य.. ट्य.. ट्युमरा येदो एक टॉमेटो आसा. टॉमेटो न्ही रे! टॉमेटो येदो ट्युमर आसा. ताका लागून ती चलता चलता पडटा. आपूण पडटा. पूण म्हाका सांबाळटा. म्हणून म्हाका ऑपरेशना खातीर पांच लाखांचें इनाम जाय. (ललाक पळोवन) एऽऽ तुका लोणचें बी जाय? (भितर पळोवन) पापडेऽऽ पापडे... ये इकडे (वालपापडी येता.)

वालपापडी : कितें भाऊ?

अंता : भितर लोणचें आसल्यार हाड. आरे, आनी ततयां आसात न्ही रे?

वालपापडी : हय.. ततयां आमलेट काडूं तर?

अंता : नाका. पयलीं लोणचें हाड. आमलेट मागीर काडया.

वालपापडी : बरें भाऊ. (वतां वतां) भाऊली गाडी एटी स्पिडीर.

अंता : ह्या शांताक तपासपा खातीर हांव फाटल्या वर्सा बॉम्बे घेवन गेल्लों. सॉरी! सॉरी ठाकरेसाहेब. बॉम्बे न्ही मुंबय. तर म्हजे रिटायरमँटाचे पयशे घेवन हांव मुंबय गेल्लों. कितें गर्दी रे मुंबय. आमी एक टॅक्सी केली हॉस्पिटलांत वचपाक.

लला : (ग्लास दिता) हो घे, एक सिंगल मार. (अंता ग्लास घेता.)

अंता : जाल्यार मर्दीच सिंगल पडलें. कितें तें - सिग्नल पडलें. म्हणटासर गाडये भोंवतणी हिजडे - छक्के. फाय प्लस वन. एक हिजडो पयशे मागपाक लागलो. शांता म्हणपाक

लागलें, दी ताका एक धा रूपया. हांवें धांची एक नोट दिली जाल्यार तो म्हणपाक लागलो, ''एऽऽ पचास देदे.' हांवें म्हळें, 'जाय जाल्यार धाच लेलो.' त्या हिजड्यान धांची नोट म्हज्या तोंडार शेंवटिली आनी गेलो . 'साला एक हिजडा आदमी को मच्छर बना देता है.'

लला : खरें सांगू! म्हाका मरे तुगेली हिंदी खूब मानवली.

अंता : ही हिंदी म्हाका शिकयली गुलाबी टिचरीन. नांव गुलाबी आं. टिचर काळीच. हांव एकदां सातवेक आसलों.

लला : एकदां सातवेक म्हळ्यार?

अंता : आठवेक दोनदां आसलों. सातवेक एकदांच आसलों. तर एकदां सातवेक आसतना गुलाबी बाई शिकयताली. दिल्ली में कुतूब मिनार है... आनी हेवटेन हांव झेमेतालों. बाईन म्हाका उबो केलो आनी विचारलें, आतां कितें शिकयलां तें सांग. हांवें म्हळें, दिल्ली में कुत्ता बिमार है।

(इतल्यांत वालपापडी वाटयेंत चार तोरां घेवन येता.)

वालपापडी : भाऊ... घेऽऽ

अंता : आरे, इतलो वेळ कित्याक?

वालपापडी : भाऊ लोणचें सोंपलें. मागीर खळांतली तोरां मेळ्ळीं. तींच हाडलीं.

अंता : आतां!? बाटली सोंपतकीच.. खळांतलीं तोरां! चोरा.. ह्या ललाक आनी म्हाका.जेवण वाडपाक सांग शांताक..! शांता म्हळ्या बायल आं म्हगेली. भांगरा सारकी बायल म्हगेली.

लला : तूं लकी रे. दी ताळी.

(दोगूय जाम.. एकामेकांक तेंकून लकतात)

वालपापडी : (लोकांक) हें इनाम बरेंच म्हारग पडटलें दिसता. आपले बायलेच्या ऑपरेशनाक लागून अंता पांच लाखांचें इनाम मेळोवंक सोदता. गुड्डीभर घेवपी अंतान आयज बाटलीभर पेटयलें.. अंताक सोरो लागला.. पूण खऱ्यांनीच तें इनाम लागतलें? हांवूंय नकळो. रोखडेंच कळटलें. पूण ते आदीं एक commercial break!!

**(पयलो अंक सोंपता.)**

# दुसरो अंक

## : प्रवेश 1 :

(देखाव – आदलोच. अंताचें घर.)

लला : (फोनाचेर उलयता) हां...हां.. ओके.. नो, नो प्रोब्लेम ऍट ऑल. कोण? घराचो मालक? .. एकदम झेम्पॉ. आं! हय, हय...असो तसो न्ही.. . कास्ताचो गुटलायला.. कोण? बायल.. आसा, आसा.. एक बायल आसा. म्हळ्यार बायल एक आसा. पूण भिवपाची गरज ना. तिचो मेंदू लोड घेना. ट्यूमर केस! फ्यूज केन्ना वचत म्हण सांगपाक जायना. आं! एक दादलो वावराडी आसा. वालपापडी. तो मातसो देडशाणो. पूण लिलीन ताका गुगली घाल्या. बरें, म्हाकां एक सांग, थय ब्रावन शुगर कितली उरल्या? ओके.. आनी चरस? बरें... हय.. दोनूय पार्सलां पावयलीं. बरें.. बरें कोण तरी येता दिसता.. दवरतां आं.

(इतल्यांत अंता येता.. लला हातांत पेपर घेवन वाचता.)

अंता : तुमकां बेजार येवुंना न्ही. धा दीस जाले तुमी आमगेर.. म्हणून म्हणटां.

ल्ला : बेजार? मात्तूय ना. उलट हांगाच हांव चड सेफ आसां.

अंता : चड सेफ म्हळ्यार?

ल्ला : म्हळ्यार खाणा-जेवणाचे बाबतींत म्हणटालों हांव. आतां सद्या तें कामणीचें दुयेंस पातळ्ळां न्ही.. पूण हांगा सगळें क्लीन.. सामकें क्लीन.. म्हूण हांगा रावप चड सेफ अशें म्हणटालों हांव.

अंता : म्हाका एक सांगात, फाटले चार - पांच दीस तुमी सद्दां सकाळीं धव्या पाकिटांची पार्सलां व्हरतात तीं कसलीं?

ल्ला : तीं..तीं म्हळ्यार.. तें हें रे! कळ्ळें तुका.

अंता : ना.. कळ्ळुंना.

ल्ला : म्हळ्यार... तो नाल्लाचे कातलेचो पावडर.

अंता : तो कोणाक धाडला?

ल्ला : देफूसाक धाडला तो?

अंता : देफूसा म्हळ्यार?

ल्ला : आरे 'देड फुटवाल्यांची संघटना.' हो नाल्लाचो पावडर दुदांत घालून घेतकीच मनीस माडा येदो जाता खंय. एक समाजकार्य म्हण हीं असलीं कामां करतां. मन तृप्त जाता.

अंता : धन्य.. धन्य जालों हांव. हालीं अशे सेवाभावी लोक मेळप कठीण.

ल्ला : (पेपर वाचता ) शी शी सगळ्यो बातम्यो शेळेल्यो.. म्हणप वर्तमानपत्र.. पूण बातम्यो भूतकाळांतल्यो.

अंता : आनी भविश्यकाळांतल्योय.

ल्ला : म्हळ्यार?

अंता : म्हळ्यार .. राशी भविश्य. तूं वाचना?

ल्ला : वाचतां. पळोवया कितें आयलां तें? (सोदता)

अंता : पळय पळय. म्हजेय भविश्य पळय.

लला : (पेपरांत पळोवन) तूं चरस घेता?

अंता : आं! चरस! शे शे. तसले ड्रग्स बिग्स म्हाका लागनात. चरस कसो आसता तो पळोवंकूय ना हांवें.

लला : आं! चरस म्हळें हांवें? ना रे. हांवें म्हळें तुजी रास घेतां. तुवें तें – तूं चरस घेता अशें आयकलें. (पेपरांत पळोवन) – खंयची तुजी रास?

अंता : हांव मिथून.

लला : तूं मिथून.

अंता : म्हळ्यार म्हजी रास मिथून.

लला : आयक आं. ह्या म्हयन्याक खर्च खूप जातलो.

अंता : (जेवपाची, भुसाची कुरू करून) बरोबर बरोबर... ते भायर फोनाचें आनीक बील येवपाचें आसा.

लला : सज्जन मनशांचो सांगात लाबतलो. (अंता ओगी रावता. लला अंताकडेन पळोवन आनी आपले कडेन बोट करून) सज्जन मनशांचो सांगात लाबतलो.

अंता : बरोबर .. बरोबर
(इतल्यान फोन वाजता. अंता फोन घेता)
हॅलोऽऽ कोण? लायन? लायन म्हण कोण ना हांगा. आरे बाबा तुवें फोन खंय लायला? रानांत काय सर्कशींत? परत तेंच. आरे बाबा, हांवें शींव पोसुंना. (इतलो वेळ लला तो फोन आपणाक अशें हावभावान सांगपाचो यत्न करता.) एक सुण्या पेटूक पोशिल्लें तेंवूय ट्रका पोंदा चिड्डून मेलें. ना रे बाबा शींव ना हांगा. (ललाच्या हावभावांक पळोवन) राव आं! शींव येता खंय. (ललाक) घे.

लला : (फोन घेता) आं... सांग. उलयतां उलयतां. शींव उलयतां. कितें? पावुंना? आरे तीन किलांची चार पार्सलां धाडल्यांत. पप्पू पापेलावांक फोन लावन विचार. आयचे आयज चवकशी जावपाक जाय. सांगून दवरतां. (फोन दवरतां.)

अंता : तूं सांगून दवरता? हांव चडसो दवरून सांगतां. दवल्लो आं म्हणून. म्हाका एक सांग, तो शींव आसा काय म्हण कित्याक विचारतालो?

लला : म्हजेंच नांव शींव. म्हाका संस्थेचे चडशे लोक शींव म्हूण उलो मारतात.

अंता : सगळें सोडून शींव शे म्हणटात?

लला : आरे तूं मिथून, तसो हांव शींव. म्हळ्यार म्हजी रास शींव. (अंता हांसपाक लागता) कितें जालें?

अंता : हांव भाऊ, शांता ताई आनी तूं शींव. भाऊ.. ताई आनी शींव.

लला : तुका राजकारणांत बरोच इंटरेस्ट आसा दिसता?

अंता : ना रे बाबा. अजिबात ना. म्हाका जमना तें दोन दोन तोंडांनी उलोवप. माळणाक ती आयतार – बुधवाराक दोन तोंडां – हांकां सदांच.

लला : म्हाका राजकारण आवडटा. आमच्या धंद्या खातीर आमकां तांचेकडेन लागसाण दवरचीच पडटा.

अंता : तुमच्या धंद्याखातीर म्हळ्यार?

लला : कुटूंब कल्याण येवजणो.. त्यो चालीक लायतलो जाल्यार राजकारण्यां कडेन संबंद दवरचोच पडटा.

अंता : म्हाका एक सांगात, म्हजे मार्क कितले जाले?

लला : पयर सांडे सत्तर सुमार जाल्ले.

अंता : आतां कितले जाल्या आसतले?

लला : भितर वचून पळोवचें पडटलें. (आपले कुडीवटेन बोट दाखयता.)

अंता : सांग न्ही म्हाका पळोवन.

लला : शेऽऽ शेऽऽ मागीर पेपरार येतलें, पेपर फुटलो म्हण..

अंता : सांग न्ही. हांव कोणाक सांगचों ना.

लला : तूं कोणाक सांगचो ना मरे? तशें जाल्यार यो तर भितर. (दोगूय भितर वतात)

## : प्रवेश 2 :

(वालपापडी आनी लिली येतात.)

लिली : (हातांत कवितेची डायरी) वा! खूप सुंदर. खरेंच वालपापडे, ह्यो सगळ्यो कविता तुवेंच बरयल्यात?

वालपापडी : ना. अद्र्यो म्हज्यो आनी अद्र्यो भाड्याच्यो हाडल्यात. तूं आनी कितें गो? आगो, त्यो सगळ्यो कविता हांवेंच बरयल्यात.

लिली : केन्ना बरयल्यो रे इतल्यो कविता?

वालपापडी : जेन्ना सावन म्हाका जीण म्हळ्यार कितें, भाऊची, ताईची माया म्हळ्यार कितें तें समजलें तेन्ना सावन.

लिली : आई, म्हाका काट्यांनी सोदूं नाका

हांव हांगा फुलांचेर बसलां.
आई, म्हाका काळखांत सोडूं नाका
हांव हांगा दिवले म्हर्‍यांत आसां.

वालपापडी : आई, म्हाका रस्त्यार सोडूं नाका.
हांव हांगा विठ्ठल – रखुमाईच्या देवळांत आसां.

लिली : खरेंच वालपापडे, भाऊ आनी ताई सारकीं मायेस्त मनशां मेळप सामकें कठीण. दोगांय एकामेकांक सांबाळटात. मोगान झगडटात. दोगांचो सबावूय विनोदीच. तांका पळयतकीच अशें दिसता, हांगाच रावचें, तांचे वांगडा...

वालपापडी : हांगाच रावपाचो, एक उपाय आसा.

लिली : कसलो तो?

वालपापडी : म्हजेकडेन लग्न जावप.

लिली : (लजता) हांव ना हँऽऽ...

वालपापडी : आगो आतां लजता कित्याक? ह्या लग्नाक भाऊलें परमिशन आसा. भाऊनच तर जुळोवन दिलां आमचें. आतां सद पळोवन ताईक एकदां सांगून उडोवपाक जाय. तशी ताई नाका म्हणची ना पूण वोगीच भंय दिसता.
(लिली आपल्याच विचारांत. कितें तरी चिंतता)
लिली, एऽऽ लिली.. कितें चिंतता?

लिली : वालपापडेऽऽ खूब दीस जाले, तुका एक गजाल सांगूंक सोदतां. पूण ती गजाल आयकतकीच तूं म्हजेकडलें नातें तोडीत बी म्हण भंय दिसता.

वालपापडी : सांग लिली. सांगून उडय. अशें मनांत धरून रावनाका.

लिली : तशें जाल्यार तूं म्हाका सोडचो ना, म्हजेकडलें नातें तोडचो ना म्हण म्हाका उतर दी.

वालपापडी : चल दिलें उतर.. सांग तूं.

(लिली वालपापडेक सगळें सांगता. उतरां आयकूंक येनात. बॅक ग्रावंड म्यूझीक. म्यूझीक थांबता.)

वालपापडी : कितें?

लिली : हय वालपापडे, आमी कुटूंब कल्याण संस्थेचीं मनशां न्हय.

वालपापडी : म्हळ्यार, तुमी फट मारली. ह्या भांगरा सारक्या भाऊक तुमी फट मारली. ताच्या सबावाचो गैरफायदो घेतलो?

लिली : हो लला म्हळ्यार कोण जाणां तूं? चरस आनी गांजाच्या स्मगलिंगांतलो डॉन. ब्लॅक पिन्टो उर्फ नागा नागमणी उर्फ जटेश्वर नाथ आनी आतांचो लक्ष्मण लागमारे.

वालपापडी : आनी तूं... एक बायलमनीस जावनूय ह्या असल्या धंद्यांत?

लिली : ना.. हांव हांगा म्हजे इत्सेन येवंक ना. म्हाका उपाय ना जावन येवचें पडलें. हांव अनाथ म्हण जल्माक आयलें. लोकांगेर कामां करून पोट भरलें. जशी जशी म्हजी पिराय वाडत गेली तशी तशी लोकांची नदर बदलत गेली. केन्ना केन्ना दोन दोन दीस उपाशी रावचें पडलें. पूण तसल्या लोकांकडल्यान चार हात पयसूच रावलें. एक दीस जटेश्वरनाथाक हांव मेळ्ळें आनी ताणें म्हाका तीन हजार रूपयांची नोकरी दिली. हेवटेनचो म्हाल तेवटेन व्हरप इतलोच आमचो कॉन्ट्रॅक्ट. हेर कसलींच बंधनां ताणें म्हजेर घालीं नात. पूण आतां, आतां मात म्हाका ह्या धंद्यांत आयिल्ल्याचो पश्चाताप जाता.

वालपापडी : पश्चाताप? कित्याक?

लिली : भाऊ-ताई सारकीं गरीब, पूण सुखी मनशां पळोवन म्हजें

परिवर्तन जालां आनी आतां तर म्हजें तुजेकडेन नातें जुळ्ळां.

वालपापडी : जुळ्ळां न्ही, जुळिल्लें. आतां तुजें म्हजें कसलेंच नातें ना.

लिली : वालपापडे, तुवें म्हाका उतर दिल्लें.

वालपापडी : आतां मोडलें. तुजे असले चलयेकडेन नातें जुळोवन म्हाका भाऊ आनी ताईचें नाक कापपाचें ना.

लिली : पूण हांव तुजे बगर जगूंक शकचें ना.

वालपापडी : कित्याक? लला पगार दिवचो ना तुका?

लिली : पयशे म्हळ्यार सूख न्हय. सूख म्हळ्यारूच खरो पयसो हें समजलां म्हाका आतां.

वालपापडी : आतां खूब वेळ जाला. तूं तुज्या मार्गान वच. म्हाका म्हज्या मार्गन वचूं दी.

लिली : पूण वालपापडे.

वालपापडी : नांव सुद्दां घेवपाचो अधिकार ना तुका. चल हांगच्यान, म्हजी तकली चाळवचे पयलीं चल हांगच्यान.

लिली : बरें वालपापडे, चल्लें हांव. हो संवसारूच सोडून चल्लें हांव. (वचपाक लागता)

वालपापडी : एऽऽ लिलू लिलू .. पलट..
(जिसे ढुँढता हूँ मैं.. म्यूझिक)

वालपापडी : फकाणां केलीं गो तुजीं.

लिली : म्हळ्यार तूं म्हजेर अजुनूय...

वालपापडी : हय, आगो, तुजी चूक तुका कळ्ळी, तूं सुदारलें हेंच खूब जालें. चूक करून सुदारिल्लीं मनशां चुकून पसून चूक करिनात. हांवें माफ केलें तुका.

लिली : थँक्यू... वालपापडे.

वालपापडी : लिली, तुका खरें सांगूं, म्हाका मर्दी मर्दी तुमचो दुबाव

येतालो. पूण तुमी खरींच कुटूंब कल्याण संस्थेचीं मनशां आसल्यार वोगीच म्हाका लागून भाऊलें इनाम वचपाक नाका म्हण वोगीच रावतालों. आयज म्हजो दुबाव खरो थरलो.

लिली : वाली, तूं भाऊक सांगून उडय सगळें.

वालपापडी : नाका.. येन्ना नाका. आतां आमी एक म्हत्वाचें काम करपाक जाय. ललाक हाचे बद्दल कांयच कळूंक उपकारना. तुवेंय बी सदां भशेन लला सांगता तें आयकुपाचें. आतां आमी एक सांपळो रचून ललाक रॅड हँडेड धरून दिवंचो पडलो.

लिली : पूण कसलो सांपळो रचपाचो?

वालपापडी : आगो, चींत. चींत. चिंतून पळय. हांव चिंततां. कितेंय आयडिया सुचता काय म्हूण.

(दोगांय पासयो मारतात)

वालपापडी : (एकामेकांक आपटतात) राव. एक काम करया. तूं दाव्यान चींत. हांव उजव्यान चिंतता.

लिली : (पासयो मारता मारतांच) Yes!

वालपापडी : No, No, No, No...

(थोड्या वेळान) Yes!

लिली : No, No, No, No...

दोगांय : (दोगांय एकदम) Yes!

वालपापडी : पयलीं तूं सांग.

लिली : ना पयलीं तूं.

वालपापडी : ना. लेडीज फस्ट.

लिली : ओके. तूं मरे, चरस, गांजाचो डिलर जावन हांगा यो आनी लला कडल्यान हांगाच चरसाचीं पाकिटां विकतीं

घे. ते आदीं आमी पुलिसांक कळोवपाचें आनी तो तुका पाकिटां दिता आसतनाच पुलिसांनी ताका धरपाचो.

वालपापडी : (ताका पळयत रावता)

लिली : कितें पळयता?

वालपापडी : म्हळ्यार.. दादल्यांक आनी बायलांक मेंदू सारकोच आसता तर! हांव चिंततालो तेंच तुवें सांगलें.

लिली : पळयलें. आमचे विचार सुद्दां कितले जुळटात ते.

वालपापडी : म्हणुनूच तर आमचें दोगांयचें जुळ्ळां. (जाग घेता) एऽऽ भाऊ येता दिसता. चल, चल.. तूं तेवटेन चल, हांव कामाक लागता. (लिली वता. वालपापडी काम करपाचें नाटक करता. पद गुणगुणटा. कबूतर जा जा जा...)

(अंता येता. वालपापडेक नियाळून पळयता. वालपापडी भितर वता.)

अंता : देवान हीं संवगां म्हज्याच गळ्याक कित्याक घाल्यांत तें देवूच जाणा (गुणगुणटा) कबूतर जा जा जा....

(दारांत पत्र पडटा. भायल्यान 'पोस्टमन' असो आवाज.)

अंता : (पत्र हातांत घेता) आं.. हें पत्र.. पूण (पोस्टमॅनाक सोदता. दारा कडेन वता.) आरेऽऽ (भायर पळोवन) कबूतर गेलें. कोणालें पत्र काय? आं.. कुटूंब कल्याण संस्था. वाचून तरी पळोवया. इनाम बी पयलींच धाडलें काय? (फोडून वाचता) मोगाळ अंताक.. आमी दवरिल्ले सर्तींत तुमच्या कुटुंबान वांटो घेवन निमाणे फेरये खातीर तुमच्या कुटुंबाची निवड जाल्या म्हूण सगळ्यांत पयलीं तुमकां परबीं. थँक्यू.. थँक्यू.. संस्थेच्या नेमा प्रमाण आमचो मनीस तुमच्या कुटुंबांत रावन निमाणो रिपोर्ट धाडटलो. (भितर लला वटेन

पळोवन) धाडुंनी.. धाडुंनी.. ऑलरेडी साडेअंयशी मार्क जाले म्हजे. (पत्रांत पळोवन) आं फुडें कितें? निमाणो रिपोर्ट धाडटलो, ताचे खातीर आमचो मनीस श्री. देविदास सातपुते येता ते सोळा तारकेर तुमगेर येतलो. (अजापीत जावन) आं!! सातपुते! मागीर हो कोणालो पूत तर! आर्रतूं! म्हळ्यार कितें तरी भानगड आसा. लला आनी लिली. तुमचे घडे भल्ले आतां. खडी फोडपाक तयार रावात. पूण खरी भानगड कशी सोदप? (विचार करता) Yes! भेरो जावपाचें नाटक करप. हांव भेरो जालां म्हण कळटकीच तीं दोगांय मेकळेपणान आपल्यो गजाली म्हजे म्हऱ्यांत उलयतलीं. Yes, तशेंच करया. अंता भेरो जालो. अंताक आयकूंक येना. (भितल्ल्यान पळोवन) शांताऽऽ एऽऽ शांता (आपले कडेन) नाका नाका हांची भानगड हाका आनी सांगपाक नाका. आयकना फुडेंच घो जातलें. ही पयलीच डेलिकेट केस. अंता ऽऽ Handle wih care हांव भेरो जालां. म्हज्या कानांक कांयच दिसना. सगळो काळोख..लायट ऑफ.

(काळोख)

## : प्रवेश 3 :

(उजवाड)

शांता : (फोनार उलयता) ना गो. वेळच मेळना. कितें? इनाम? आगो येन्ना खंय? आजून निमाणो रिपोर्ट वचचो आसा. ना.. वचुंना. आजूनय हांगाच आसात. कसोच हालना विठोबा. हय गो – युगें अठ्ठावीस... अठ्ठावीस दीस जाले. आयज एकोणतिसावो दीस. खरेंच गो, बेजार आयलों हांका गांदून वाडपाक. कितें करतली? धरल्यार चाबता, सोडल्यार वता असली गत जाल्या आमची. तें आमचें आम्‌..तुवें कित्याक केल्लो फोन? आं फुगड्यांची सर्त? खंय गो? वयल्या वाड्यार? ना गो... तुमीच खेळात फुगड्यो. हांव आनी येना. तूं जाणां न्ही गो म्हजे तकलेचें दुयेंस. हय गो, बरोबर तुजें.. फुगडी म्हळ्यार एका तेंपार उसळटालें हांव. आतां फुगडी घाल्यार कोसळटलें. कितें? भाऊक धाडून दितूं? आगो कांयच फायदो ना. भाऊले दोनूय स्पीकर डिसकनेक्ट जाल्यात. दोनूय कानांनीं आयकुपाक येना. (इतल्यांत अंता येता.) बरें, बरें, विचारून पळयतां...बरें गो. (फोन दवरून जातकीच परतून रिसिव्हर घेवन) दवरतां गो. (अंताक) सांगून दवरप बरें न्ही.

अंता : (मोठ्यान) कोणालो फोन?

शांता : म्हाका आयकुपाक येता. ल्हवू उलय तूं.

अंता : फोन कोणालो? (ऍक्शन करून)

शांता : शालूलो फोन. (शालू न्हेसपाची आनी फोन आयकुपाची ऍक्शन)

अंता : न्हाता आसतना केलो फोन...

शांता : (परत तीच कुरू करता...)

अंता : (तापता) आगो सारकें सांग सडसडीत.

शांता : (भितर पळोवन) पार्शियेस, पार्शियेस.

अंता : (ही स्टायल सामकी पाठ जाल्या म्हाका) पार्शियेस, पार्शियेस.

शांता : (म्हऱ्यांत येवन लग्नाक एकामेकांक हार घाल्ल्याची कुरू करून.. ताणें लग्नाक शालू दिल्लो म्हण कुरवांनी सांगता..)

अंता : लग्न! साडी.. शालू.. शालूलो फोन.

शांता : बरोबर! (थम्स अप कुरू करता)

अंता : ना गो देव्वाच्यान तर.. खऱ्यांनीच पिवुंना.

शांता : आतां तुजे फुड्यांत दीस कशे काडप तें देव जाणां.

अंता : राती कश्यो काडप तें हांव जाणां.

अंता : हें बरें आयकलें मरे तुवें?

अंता : तशें मदीं मदीं येता आयकूंक चुकून.

शांता : म्हळ्यार? हेंवूय आयकलें तर?

अंता : कसो पडलो? केन्ना पडलो?

शांता : आरे देवा!

अंता : (रांदचे कुडी वटेन पळोवन) हजार फावटीं सांगलें, वालपापडेक ते पेरीचेर चड नाका म्हण.

शांता : (अंताक हाताक धरून बसयता) बस हांगा. आनी हांव सांगतां तें आयक. (हें सगळें उलयतनाच कुरवांनी सांगता.)

अंता : आंतां सांग.

शांता : (कुरवांनी सांगता)

अंता : (त्या त्या कुरवां वांगडा अंता उलयता) आमच्या महिला मंडळान..फुगड्यांची सर्त दवरल्या. तातूंत तुका जज्ज म्हण आपयलां. (अजापीत जावन) कितें? फुगड्यांचे सर्तीक हांव जज्ज. नाका म्हण सांग. ह्या जज्जाची खरी गरज हांगा आसा. हांगा मोठी केस चल्ल्या. तुमचीं महिला मंडळां म्हळ्यार अजापाचीं मुगो.

शांता : (कुरवांनी विचारता – कित्याक?)

अंता : हांव भेरो, काय हें मोनें? कांयच कळना.

शांता : (परत विचारता – कित्याक?)

अंता : आगो सगळें सोडून फुगड्यांची सर्त? दवरचीच जाल्यार चपाती लाटपाची सर्त दवरपाची.

शांता : (कुरवांनी सांगता आनी तसो अंता उलयता.)

अंता : तशें जाल्यार म्हाकाच फस्ट प्रायज (शांताक) तुका? तुजो फकत भुगोलच गोल. एके एके चपातेक चार चार कडेन होल.

शांता : त्योच चपात्यो गिळून वाडला तुमचो धोल.

अंता : आगो, हांव म्हणटां कपडे उमळपाची सर्त दवरात, सात्र मारपाची सर्त दवरात, शेण काडपाची सर्त दवरात, कुकूम लावपाची सर्त दवरात (सगळें कुरवो करून सांगता)

शांता : म्हाका आयकूंक येता.

अंता : हांव आनी पिसो कसो, तुका कुरवांनी सांगता. यादूच

उरना गो. कोणाक आयकूंक येना तें.

शांता : देवा अनंता, हनुमंता, एकदंता – हे भगवंता, तूंच पळोवन घे रे ह्या शांताक आनी शांताल्या शिरमंताक.

अंता : खरेंच, ह्या ललान आनी लिलीन आमगेल्या आयुश्याचो कम्प्यूटरच मोडून उडयला. (मेंदवाक उद्देशून) तिगेली हार्डडिस्क काबार.. म्हगेले स्पीकर.. (हातांच्या कुरवांक उद्देशून) आतां फकत मावस घुंवडायत रावपाचो.

(लला आनी लिली येतात.)

लला : कसल्यो गजाली चल्ल्यात घोव बायलेच्यो. खरेंच तुमची दोगांयची जोडी पळोवन म्हाका माधुरी–नेने, जया–अमिताभ, हेमा– धर्मेन्द्र हांची यांद जाता.

अंता : आनी तुका पळयतकीच म्हाका परेश रावल, शक्ती कपूर अमरीश पुरी हांची याद जाता.

लला : म्हळ्यार हांव कितें व्हिलन सो दिसता?

अंता : तशें न्ही रे, ते व्हिलनाचो रोल करतां करतां कॉमेडीय बी करतात म्हणून!

शांता : तुमकां आयकुपाक येवपाक लागलें?

अंता : (तापता) जालें. उलयलें पच्च करून.

शांता : पार्शियेस, पार्शियेस.

अंता : A सायड सोंपली, ही B सायड. दोनूय सायडीन एकूच गाणें. पार्शियेस, पार्शियेस.

शांता : तुमी बसात. हांव चल्लें म्हज्या कामाक. (वचपाक लागता)

अंता : आगो तूं खंय वता? बस मुगो हांगा.

शांता : वरां पळयल्यांत कितलीं जाल्यांत तीं? दोन जालीं. आयदनां तशींच पडल्यांत फाटल्यान. (वता)

अंता : (आपलेच कडेन, दोन बोटां वयर करून) विटयलें. विटयलें. सगळ्यां हुजीर सांगप. तेंवूय बी मोठ्यान. तरी बरें, म्हाका आयकुपाक येना म्हण.

लिली : पूण एकदम अशें आयकुपाचें कशें बंद जालें?

अंता : म्हाकाय खबर ना. हांवूंय वालपापडेकच सोदतालों. सकाळच्यान च्या पिवन भायर सरिल्लो, दनपरां जेवणाक सुद्दां येवंक ना.

लला : (लिलीक) राव, हांव सांगतां. (कुरवांनी अंताक विचारता) तुजें आयकुपाचें कशें बंद जालें?

अंता : (ललाक) हात दी. आमचें दोगांयचें बरें जमतलें. सांगतां, आयकुपाचें कशें बंद जालें तें सांगता. ह्या वालपापडेन फाटल्यान माकड येतात म्हण हुंदरांनी पोखरिल्ल्या एका नाल्ला बोण्यांत दादा बॉम्ब लावन दवरिल्लो. माकडा पयलीं हांव पावलों. हांवें नाल्ला बोणो उखल्लो आनी हालता काय म्हण पळोवपाक असो काना कडेन धरलो जाल्यार ढम्म! अमलो सणसणीत आवाज जालो, हे सायडीचो काना पड्डो फुट्टून ह्या काना पड्ड्याक आपटलो आनी होवूय फुटलो...आतां कांयच आयकुपाक येना.

लला : (लिलीक) जावं, हें बरें जालें. आतां आमकां मेकळेपणान उलोवंक मेळ्ळें. (अंताक पळोवन) तूं उबो कित्याक? बस मरे.

अंता : (उबो रावनूच) बरोबर, बरोबर.

लला : (कुरवांनी सांगता) हांव म्हणटालों, तूं उबो कित्याक? बस बस सकयल.

अंता : बरोबर, बरोबर, देड फूटवाल्यांक त्रासूच रे.

लला : आरे भेड्ड्या, बस सकयल.

लिली : (ललाक) ल्हवू उलय, वण्टीकूय कान आसतात.

लला : बरोबर तुजें. वण्टींक कान आसतात. पूण हाच्या कानांत वणटी आसात. हेवटेनचें तेवटेन कांयच पावना. (अंताक) मागीर आमी कित्याक म्हण ल्हवू उलोवपाचें?

अंता : बरें.. बस म्हणटा जाल्यार बसतां.

लिली : आमी उलोवंया आमच्यो गजाली.

लला : पयलीं म्हाका दुबाव येतालो. हांव ड्रग्सांचो वेपारी, हें हांकां कळ्ळें बी काय म्हुणून. पूण आतां (अंताक पळोवन) आतां कसलीच चिंता ना.

अंता : हय तर.

लिली : हांव हाची मजा करता आं. (उबें रावन) नमस्कार, नमस्कार, नमस्कार.

अंता : (रोकडोच उबो रावन) परतून करूं? (एकलोच करता) वेलकम, सुस्वागतम, ह्या अंता शिरवयकाराल्या घरांत तुमकां येवकार. (अंता लिली भशेनच बावगून करता.)

लिली : नमस्कार, नमस्कार, नमस्कार!

लला : (अंताक कुरवांनी 'बरें जालें' अशें सांगता. पूण उलयतना आरे भेड्ड्या तुजे असलो भजो मनीस सोदून सुद्दां मेळचो ना..

अंता : (अंता उठून परतून करपाक सोदता) आवडलें? परतून करतां.

लला : (तसोच बसयता) नाका.. नाका.

अंता : एकदांच.. एकदांच करतां.

लला : नाका रे नाका. (तापता) नाका रे. बस पयलीं एका जाग्यार.

आतां परतून तूं उठलो जाल्यार कानांत चरस घालून नाकांतल्यान गांजा भायर काडटलों.

(अंता ओग्गी बसता.)

लला : (कुरवांनी लिलीक सांगता) हांव तुका कितें सांगतालो?

लिली : (कुरवांनीच सांगता) म्हाका आयकुपाक येता.

लला : ओ! सॉरी, सॉरी! (अंताक सांगता) यादच उरना तूं भेड्डो म्हणून. आरे हांव ड्रग्सांचो वेपारी आनी हें लिलीय ह्याच धंद्या खातीर काम करता. आमी कुटूंब कल्याण संस्थेचीं मनशां न्हय हें तुका सांगपाक म्हाका खूप खूप उमेद जाता.

अंता : (अजापीत जावन उठ्ठा) कितें! म्हळ्यार तुवें म्हाका फटयलो? आरे, कितल्या विस्वासान तुका हांवें हांगा रावपाक दिलो. तूं सांगता तितलेंय केलें. पयशांची अडचण आसून सुद्दां, आशिल्लो नाशिल्लो पयसो मोडलो.. कित्याखातीर? फकत तुजें सपन खरें जावचें म्हण.. पूण आयज, आयज तुवें म्हज्या सपनांक उजो लायलो.. तुजे कडल्यान म्हाका ही अपेक्षा नाशिल्ली. तुवें , तुवें म्हजो गैरफायदो घेतलो.. (तांकां पळयत रावता.)

(लला आब्रूज जावन पळयता)

अंता : आवडुना तुमकां म्हजी ऍक्टींग? एका नाटकांतलो पीस हो. तुवेंच सांगलें न्ही म्हाका ऍक्टींग करून दाखय म्हणून. म्हूण सादर केलो हो पीस.

लला : (अंताक पांयां पडटा) धन्य धन्य.. मानलो रे तुका. खरेंच, ह्या अंतासारको कोण ना! (लिलीक) ह्या भेड्ड्याल्या बोवाळांत मेन गजाल सांगपाची उरली.

लिली : सांग.

लला : (अंताक पळोवन) तूं उबोच राव.

अंता : (बसता) थँक्यू, थँक्यू.

लला : (लिलीक) आयज एक नवो डिलर हाताक लागला. मिस्टर लुंगीवाला! गोंयांतल्या पांच तालुक्यांची डिलरशीप तो घेवंक सोदता. कालूच ताणें फोनार म्हजे कडेन उलोवणी केल्यांत. आयज तो हांगा येवपाचो आसा.

लिली : (अंताक पळोवन) हांगा?

लला : हांगा कसलोच भंय ना.. हांगाच आतां चड सेफ आनी ताकाय भायर पुलिसांचो भंय दिसता म्हण तो हांगाच मेळूंक सोदता. तर, ताचे खातीर वीस किलांचो चरस तयार दवरपाचो.

लिली : काल आयिल्लीं पार्सलां आसात. तातूंतलोच काडून दिल्यार जालो.

लला : हय हय.. तशेंच करया. तो केन्नाय पावपाक शकता.

(वालपापडी लुंगीवाल्याच्या भेसांत येता.)

वालपापडी : आयली.. हांव आयली. मिस्टर धवी धवी लुंगीवाला (तोंडांत पिल्लूक... आपलें उलोवन सोंपतकीच पिल्लूक वाजयता)

अंता : धवी धवी लुंगीवाला हो कोण?

लला : (कुरवांनी) आमचे संस्थेचो मनीस तो!

वालपापडी : धवी धवी लुंगीवाला... (पिल्लूक वाजयता)

अंता : आनी हें कितें.. तूं उतरा उतराक फीव, फीव करून पुंगी कित्याक वाजयता? .. तूं लुंगीवाला काय पुंगीवाला रे?

वालपापडी : (ललाक) ही तुमची वावराडी?

अंता : वावराडी? हांव वालपापडी.. म्हळ्यार वालपापडी

वावराडी.

लला : तुका आयकुपाक येवंक लागलें?

अंता : (चूक लक्षांत येवन) कोण शांता? ... आसा भितर आसा.

वालपापडी : (लिलीक पळोवन) ही बायल तुमची? (अंताक विचारता)

अंता : दोळे फुटल्या रे तुगेले? तिगेल्या गळ्यांत मंगळसूत्र तरी आसा? वोगीच नाका जाल्लें.

लला : तुका परतून आयकुपाक येवंक लागलें?

अंता : कितें? .. तुळशी लग्न? तें आतां खंय? दिवाळे कडेन.

वालपापडी : ही भेड्डी ज्याला. (ललाक पळोवन) हांव माल व्हरपाक रेड्डी ज्याला.

अंता : ही कितें भानगड? (ललाक विचारता) हो कोण? (अंताच्या कानाकडेन वचून.)

लला : हो मिस्टर लुंगीवाला. देडफुटवाल्यांची संघटना आसा न्ही. तिचो अध्यक्ष, गांवान तमीळनाडूचो.

अंता : (कुस्वांनी) तो हांगा कित्याक आयला?

लला : (कुस्वांनी)नाल्लांचो पावडर व्हरपाक आयला.

अंता : (वालपापडेक बारीकसाणेन पळोवन...) हाका उजवे सायडीन मातशें वालपापडे भशेन मारता न्ही रे?

वालपापडी : सोमार काकाशोनी पंपीश्तृ.... सालाको माशीनोरा पेश्तू! शेंतार शेंती काकीनाडा सोलीमोसा वारा साड्डू पोरा तेरा.

अंता : आं! हें आनी कितें?

लिली : तो.. तो हिब्रू भाशेंत उलयलो. ताका राग येता तेन्ना तो हिब्रू भाशेंतल्यान झगडटा.

वालपापडी : शीतवाडा शीतवाडा.

लिली : पळयलें? बरोबर, बरोबर अशें म्हणटा तो.

ललना : तूं हांगाच बस. हांव रोखडोच म्हाल घेवन येतां. (वता)

वालपापडी : बरी आशा.

अंता : तुमच्या गराकोडी कोण कोण आशा?

वालपापडी : आमची अम्मा आशा.

अंता : आनी कोण आशा?

वालपापडी : अं... आमची अम्मा ...आनी आमची पप्पा आशा.

अंता : अशें अशें. (परतून एकदां वालपापडेक बारीकसाणेन नियाळटा.) अम्मा आशा.. अप्पा आशा...

लिली : (अंताक) कितें जालें?

अंता : आतां दावे सायडीनय हो म्हाका वालपापडे भशेनच दिसता.

वालपापडी : (वेगळे भशेन तापता) इसीनारा पाशीकोरा... शेंतार शेंती काकीनाडा.

लिली : पळयलें.. ताका राग आयलो. राग येतकीच तो हिब्रू भाशेंत तापता.

अंता : (आपलेच कडेन) शेर्त कितें तरी भानगड आसा. आयडिया.. हय... तशेंच करया. (ताका पळोवन) एऽऽ.. मिस्टर धवी धवी लुंगीवाला.. हांगा यो मातसो. ह्या दिवाणाक मातसो हात लाय. उखलून मातसो हांगा मुखार घेवया. जमतलो मरे उखलपाक?

वालपापडी : ही अशली काम आमची दावे हाताची खेळ.

अंता : सद्या तूं दोनूय हातांनी खेळ.. धर तेवटेन.

वालपापडी : (दुसरे वटेन धरता) हां.. च्यल उकल्ली.

लिली : हांव हात लावूं! दिवाणाक?

वालपापडी : तूं अशी म्हाका फाटल्यान हात लाय.

लिली : (येता आनी ताचे फाटीक हात लायता) बरें.. चल उखल

आतां.

अंता : पूण एक सांग रे, ताणें तुका हात लायल्यार हें उखलपाक कसो फायदो?

वालपापडी : ज्याता.. फायदो ज्याता.. तेणी हात लायल्यार म्हाजी बेटरी चार्ज ज्याता.

अंता : चार्ज जाली मरे बॅटरी? चल उखल आतां एक, दोन, तीन...

वालपापडी : भाऊ, जायना.

अंता : कशें रे?

वालपापडी : यू नो भाऊ, आय ऍम व्हेरी व्हेरी डेलीकेट. दोतोरान ल्हान आसतना सांगिल्लें म्हाका – हॅंडल विथ कॅर म्हणून. (तिगांय आं करून पळयत रावतात.)

लिली : भिवपाची गरज ना. भाऊक आयकुपाक येना. ताचे दोनूय कान फुटल्यात.

वालपापडी : (लिलीक) बरें जालें. हांव कसलो भिलों जाणां. ना जाल्यार आमचें हें नाटक भाऊक कळपाचें.

अंता : तशें न्ही रे वालपापडे, तूं धवी धवी लुंगीवाला जाला, तें नाटक तर?

वालपापडी : हय.. हांवें आनी लिलीन मेळून नाटक रचलां हें.

अंता : अशें, अशें!

दोगांय : (लिली, वालपापडी एकामेकांक पळयतात) म्हळ्यार तुका आयकुपाक येता?

अंता : हय.. बरें भशेन. तुमचे भशेनच हांवेंय बी नाटक केल्लें.

लिली : नाटक! कित्याक?

अंता : (लिलीक) तुमचीं फटींगपणां सोदून काडपाक.

वालपापडी : भाऊ, लिलीची कांयच चूक ना.

अंता : तूं आतां विरगळटलोच! मोगांत पडला न्ही ताच्या?

लिली : ना भाऊ, खरेंच, हांव उपाय ना जावन ह्या धंद्यात आयलें. पूण आतां हांव सुदारलां. म्हजी चूक म्हाका कळ्ळ्या. तुमचो हो सूखी संवसार पळोवन म्हजें परिवर्तन जालां. भाऊ, तुमचे हे धुवेक माफ करचे नात तुमी? (ताका पांया पडटा)

अंता : आगो, आगो, उठ आतां. म्हजे धुवेक माफ करना जाल्यार आनीक कोणाक करतलों?

लिली : भाऊ, लला येवचे पयलीं ताईक सांगून उडय सगळें.

अंता : आपयतां. राव, ताईकय आपयतां. (भितर पळोवन) शांताऽऽ.. ए शांताऽऽ (लिलीक) येतली.. रोखडी येतली ताई. हो ऍक्सिडेंन्ट झोन.. म्हूण ताई थर्टिफाय स्पिडिचेर येता. (भितर पळोवन) शांताऽऽ.. एऽऽ शांता. (तापता) आगो, यो मुगो सडसडीत.

शांता : (शांता येता) पाशिंयेस, पाशिंयेस.

अंता : (वालपापडी आनी लिलीक) हो शांतालो ताळो न्ही. हो आंब्या ताळो, वचत थंय आसाच.

शांता : कितें जालें? (वालपापडेक पळोवन) आं ऽऽ आनी हो कोण चोर सो?

अंता : आगो हो चोर न्ही. हो आमगेलोच पोर.. वालपापडी.

शांता : कितें? वालपापडी. कितें अवस्था करून घेतल्या रे जिवाची? शेर्त हाचेर कोण तरी म्हारू बिरू बसला आसतलो.

लिली : ना.... ना... ताई, हांव सांगतां, आमी, म्हळ्यार हांव

आनी लला, कुटूंब कल्याण संस्थेचीं मनशां न्हय. हो लला ड्रग्सांचो वेपारी आनी हांव चुकून, परिस्थितीक लागून ह्या धंद्यांत पावलें. पूण आतां हांव सुदारूंक सोदतां. ताई म्हाका माफ कर.

शांता : माफ कर? आगो तुजे असले चलयेक माफ करपाक आमकां पिशें लागूंना. आतांचे आतां पोटल्यो बांदात आनी लागात चलूंक.

अंता : आगो, आता सुदारलां न्ही तें. माफ कर ताका.

शांता : (तापता) तुमी वोगी बसात थंय.

अंता : पार्शियेस पार्शियेस

वालपापडी : ताई, माफ कर न्ही ताका.

शांता : वालपापडी सांगता म्हण माफ करतां. (लिलीक) वालपापडेची जावपाची बायल मुगो तूं (लिली लजता)

अंता : आगो पूण तुका कशें कळ्ळें?

शांता : आमकां बायलांक एक सिक्स्थ सॅन्स आसता. तुमका दादल्यांक कळचें ना तें. (अंताक पळोवन) पूण म्हाका एक सांगात, तुमकां आयकुपाक येवंक लागलें?

अंता : तुजेकडेन सॅवन्थ सॅन्स आसल्यार हेंवूय कळपाचें तुका. म्हणून तूं फाटल्यान... आगो ह्या लला-लिलीचो प्लॅन सोदून काडपाक हांवेंय बी भेरेपणाचें नाटक केल्लें.

वालपापडी : पूण भाऊ, म्हाका एक सांग, हांव वालपापडीच म्हण कशें कळ्ळें तुका?

अंता : सामकें सोपें. आरे, खरो तमीळनाडूचो मनीस आपलो लुगी अशी पर्मनन्ट सकयल सोडना. तो उलयतां उलयतां अशी फोल्ड करता. परतो सोडटा. परतो फोल्ड करता. परतो

सोडटा. हें अशें चालूच आसता. पूण तूं हांगा लुंगीवाला सो जावन आयलो.

वालपापडी : हो म्हजो आनी लिलीचो प्लॅन. ह्या ललाक रॅड हँडेड धरून दिवपा खातीर.. हांव हांगा चरसाचें पार्सल (इतल्यांत पार्सल घेवन लला येता.)

लला : पार्सल रेडी आसा. वीस किलांचो माल आसा भितर. फोनाचेर थरिल्लो तितलोय माल आसा भितर. आतां म्हजें (पयशांची कुरू करून) पार्सल भायर काड!
(इतल्यांत इन्स्पेक्टर मिशाळ येता.)

मिशाळ : ढॅण टॅ ढॅण. (दोळ्यांर काळें गॉगल. अंताक घट धरता. ललान हात वयर केल्यात.) यू आर अंडर अरेस्ट! मिस्टर लागमारे.

अंता : तें गॉगल काड. (मिशाळ गॉगल काडून अंता कडेन दिता.) खंय घेतलें?

मिशाळ : जात्रेक! म्हारग पडलें रे पंचवीस म्हळ्यार!

अंता : तूं सामको मुगांक कॉम आयिल्ले भशेन उसळटा कित्याक... सडसडीत धर त्या लागमारेक.

मिशाळ : (लागमारेक पळोवन) ओह! मिस्टर ला..ग..मा...रे...अरे! तुम हमको पहचानता नही.. हम अंग्रेज के जमान के जेलर है।

अंता : आजुनूय जितो उरलो?

मिशाळ : नाम है, इन्स्पेक्टर मिशाळ. हँडस् अप!

वालपापडी : सायब, ताणें पयलींच अप केलां.

मिशाळ : कोण उलयलो? वा..ल...पा...प...डी! थँक्यू मिस्टर वालपापडी. हो गुंड आनी ड्रग्सांचो स्मगलर धरून दिल्ले

खातीर थँक्स! तुमचे खातीर एक सरप्रायज आसा.

सगळे : कितें?

मिशाळ : ह्या खतरनाक मनशाक धरून दिवचे खातीर सरकारान पांच लाख रूपयांचें इनाम दवरिल्लें. तें तुमकां फावो जालां. काँग्रेच्युलेशन्स (वालपापडेक हात दिता)

वालपापडी : हें इनाम म्हजें न्हय. हें इनाम भाऊलें.

अंता : कितें? म्हजें?

वालपापडी : हय भाऊ, आमकां आमची ताई जाय. आतां ह्या पयशांनी तुमी ताईल्या ब्रेन ट्युमराचें ऑपरेशन करपाचें?

लिली : हय भाऊ, प्लीज नाका म्हणूं नाकात.

शांता : (मिशाळाक) तुमी कितेंय घेतले पिवपाक?

मिंशाळ : नो..नो...नो.. सद्या हांव ड्युटेर आसा. ड्युटी फस्ट! चल रे..लाग मारनाका. लागमारे, चल सडसडीत. (लागमारेक ओडीत व्हरता.)

सातपुते : (भायल्यान आवाज येता) अंता शिरवयकारालें घर हेंच? हांव मिस्टर सातपुते.. कुटूंब कल्याण संस्थेचो मनीस.

अंता : कुटूंब कल्याण संस्था! भॅशमॅर.

वालपापडी : (भायर पळोवन) धांवलो. धांवलो. शेंपडी तुटसर धांवलो.

अंता : चला, चला, आतां शांताल्या ऑपरेशनाचे तयारेक लागपाक जाय.

शांता : आनी ऑपरेशना उपरांत लग्नाचे तयारेक लागपाक जाय. (दोगांय लजतात)

अंता : हय.. हय.

शांता : (अंताक) हय.. हय. कितें.. चल भितर.

(अंताक वोडून व्हरता.)

(माचयेर फकत लिली-वालपापडी. बॅकग्राऊंडाक .. जिसे ढुँढता हूँ मै - गीत. दोगांय म्हऱ्यांत येतात. हातांत हात धरतात. इतल्यांत अंता-शांता येतात.)

दोगांय : पाशिंयेस, पाशिंयेस!

(ल्हवू ल्हवू काळोख.)

## (नाटक सोंपता)



**राजय र. पवार**

जल्म : 19 जून 1972

अध्यापक, सरकारी महाविद्यालय, केपें

'पावसफुलां' (कविता संग्रह) 1995 वर्सा प्रकाशीत

'कोण कोणाचो', 'नशा तुजी' ह्या कोंकणी ऑडिओ आल्बमांखातीर गीत लेखन. तशेंच गजल लेखन.

राज्य तशेंच राष्ट्रीय पांवड्यावेल्या परिसंवादात संशोधन - प्रपत्रां (research papers) सादर केल्यात.

'सुनापरान्त' दिसाळ्यांतल्यान 'गिरमीट' हें विनोदी सदर चलयलां.

## पुरस्कार आनी गौरव

- 'पावसफुलां' पुस्तकाक कोंकणी भाशा मंडळाचो 'साहित्य पुरस्कार' (1995)
- कर्नाटक साहित्य अकादमी (मंगळूर) आनी कोंकणी संस्कृती मंडळ (कारवार) हांचेवतीन 'सन्मान पत्र' दिवन भौमान. (1998)
- गोंय कला अकादमीचे वतीन नाट्यसर्तींत 'अंता अंता शिरिमंता' (2003-04), 'जमलें रे जमलें (2004-05) आनी 'आमचो हात जगन्नाथ' (2005-06) नाटकांक लेखनाखातीर इनामां.
- 'आमचो हात जगन्नाथ' ह्या नाटकाच्या दिग्दर्शनाखातीर गोंय कला अकादमीचें इनाम. (2005-06)
- कुडचडेच्या 'संकल्प थिएटराचे नाट्यसर्तींत' लेखन आनी दिग्दर्शनाखातीर साबार इनामां.
- कला आनी संस्कृती खातें (गोंय सरकार) आनी रंगोत्सव (मडगांव) हांणी आयोजीत केल्ल्या अखिल गोंय पावंड्यावेल्या पयल्या वयल्या 'लाफ्टर चॅलेन्ज' सर्तींत जैतीवंत जावन गोंयचो पयलो 'कॉमेडी कींग' पुरस्कार.
- मुंबयच्यो 'संसारिका प्रॉडक्शन'च्या टॅलंट हंट सर्तींत येस जोडून तांच्याच 'मुन्नाभाई ssc' ह्या फिल्मांत भुमिका.